With warm regards
Bhobe
Urjita Bhobe



# उर्जास्त्रोत

उर्जिता भोबे





# उर्जास्त्रोत

(कविता झेलो)

**उर्जिता भोबे**

**प्रकाशन क्रमांक: 21**

**पयली आवृत्ती**
1 फेब्रुवारी 2018



**प्रकाशक:**
रुद्रा प्रकाशन
फॅड्रिका अपार्टमेंट
काकुलो कॉलनी, मिरामार
पणजी-गोंय
मो: 9823111917

**अक्षर जुळोवणी:**
अमोल कामत

**मुखचित्र:**
गौरीश वेर्णेकार

**मोल:** रु. 250/-

**Urjasrot**
A Collection of Konkani Poems

**by Urjita Bhobe**

**Publication No. 21**

**First Edition**
1 February 2018



**Publisher**
Rudra Prakashan
Fedrick Apartment
Caculo colony, Miramar
Panaji-Goa
M: 9823111917

**Typesetting**
Amol Kamat

**Cover:**
Gaurish Vernekar

**Price:** Rs. 250/-



## डॉ. हरेष विष्णू फळदेसाय

खूप खूप मनस्वी समर्पित भावनेन म्हजे जिणे विद्यापिठाचो व्हड कुलगुरू म्हजो बापूय डॉ. हरेश फळदेसाय हांच्या पायांर नतमस्तक जावन म्हजो हो पयलो वयलो कविता झेलो तांका अर्पण करतां.

- धूव उर्जिता

# मांडावळ

# एक आशेची उर्जा

**उर्जिता भोबे** कविता रचता आनी एक बरो कवी जावपा खातीर कोंकणी भाशेची कास धरून आपणाले प्रतिभेक वाट करून दिवंक सोदता ही खूब बरी गजाल. कविता बरोवप कठीण काय सोंपें हाचेर वाद करिनासतना एक गजाल सत म्हणल्यार खंयचोय बरोवपी जेन्ना बरोवपाचें येवजून लेखणी हातांत घेता तेन्ना ताका पयलीं कविता बरोवपाक आवडटा. घडये थोडे भितर कवितेचें बरोवप जाता आनी चड ताणिनासतना आपणालें पयलें चिंतप, पयले विचार वा आपणाले पयलें जें जें कितें दुसऱ्याक वाचपा खातीर आमी दिवंक सोदतात तेन्ना कवितेचो 'फॉर्म' पयलो क्रमांकान बरोवप्याक येता. हें सत सगळ्या व्हड व्हड लेखकांचे बाबतींत घडलां आनी घडटा. ह्या नेमाक उर्जिता भोबेय आडवाद ना आनी ताणें कविता बरोवपाक घेतली ती झेतान आनी नेटान

उर्जिता भोबेच्यो सगळ्यो कविता वाचतकच एक ठळक गजाल लक्षांत आयली ती म्हणल्यार ताणें नकसूद सरळ सोंपी आनी बोली उतरांनी कविता रचल्या, कविता रचतना वयली वळ सकयले वळीक ज्यूस्त लागपाक जाय म्हणजेच ताची आमकां, सूर-ताल आनी ठेकोय ज्यूस्त बसतलो हाचोय विचार कविता बरयतना घेतला म्हणपाचें लक्षांत येता. उर्जिता भोबेन खूबश्यो कविता 'सैम' ह्या विभागांत घाल्यात. म्हणल्यार जितल्यो म्हणून सैमा वयल्यो कविता आसात त्यो एका विभागांत घाल्यात, उपरांत नातीं हो विभाग घेवया, ह्या विभागांत आवयबापूय, भावभयण आनी हेर नात्यां संबंदान ज्यो कविता आयल्यात त्यो वेगळ्यो घाल्यात. अशेंच फुडें वचून ताणें परब वा परबां वयल्यो कविता एका संचांत घाल्यात. जिवीत हो कविता विभाग फकत जिविताचेर रचिल्ल्योच कविता घाल्यात. म्हजें गोंय ह्या संचांत फकत गोंय हो विशय घेवन रचिल्ल्यो कविता घाल्यात. भावविश्व ह्यो भावनात्मक वैचारीक कवितांचोय वेगळें दालन केलां. सपनां वयल्यो कविता सपनां ह्या कुणग्यांत घाल्यात.

आतां हे सगळे विभाग कवीन सोंपें जावचें, बाचप्याक सोंपें जावचें म्हणून केल्यात आसत.

आतां ह्या प्रत्येक मांडणेंत उर्जिता भोबेच्यो कांय अप्रतीम, तेखेवपा सारक्यो कविता आसात. त्यो नव्यानूच कविता बरयतात आनी हो तांचो पयलोच कवितां

झेलो जाल्ल्यान तांच्या कवितांची मोलावणी करतना नवोदीत समिक्षकाचीच कशी उरता. कवितांचें समिक्षण करचे परस कवीक दर एके कवितेंत कितें सांगचें आसा आनी तांचो बोद कितें, उपदेश कितें, शिकवण कितें, ह्या गजालीं कडेन पळोवचें पडटा. हेच नदरेन हांवें ताच्यो आरंभाच्यो कांय कविता वाचल्यो आनी ज्यो म्हाका आवडल्यो ताचे पैकी ही एक

*सैम म्हणल्यार देव*
*केन्ना वत, केन्ना सावळी*
*केन्ना कुपां, केन्ना पावळी*
*अजाप भरलां कणाकणान*
*सैम हो विश्वाचो प्राण*

आयज वता थंय ग्लोबल वॉर्मिंगाच्यो शिटकावण्यो दिवन सैम वांचोवपा खातीर मोट्यो चळवळी जगभर चलतात. सैम म्हणल्यार देव हो आकांताचो विचार, सर्वसामान्यांक जर भिडत जाल्यार तो नसती देवसपणां करपाक, अंधश्रद्धा, कुड्डो जावन हांगा थंय देव देव करून वणवण भटकुचो ना. आदले लोक सैमाचीच पुजा करताले आनी पंचमहाभुतांकूच देव म्हणून होरायताले. पूण हालीं तेंपार देव देवळां, जात्रा, फेस्तां हे निखळ मन रिजवणेचीं देवसपणां आमी करतात. आनी देवाक म्हणून शेंकड्यांनी फुलां झेले, हार तुरे माळो आनी उजवातींचो कोयर करून देवळाचो वाठार प्रदुशणान भरतात. जर सैम देव म्हणून कितेंच करिनासतना झाडापेडांक, दोंगर, न्हंयांक हात जोडले जाल्यार कसलेंच प्रदुशण जायना.देखून कवी फुडें बरयता.

सैमूच आमचें अस्तित्व आनी हे कवितेंतल्यो निमण्यो वळी पळयात.

*देवळां इगर्जेंत सोदिनाका*
*त्या देवाचें तें वरदान*
*सैमूच मोक्षाचें दार*
*सैमूच ब्राह्मज्ञान*
*सैमूच ब्रह्मज्ञान*

ही आनी अश्यो ह्या सैम विभागांत सैमा वयल्यो कविता आसात.

आमी कुटुंबवत्सल लोक. आमी नात्यांनी गुंथल्यात. आवयबापायगेर भुरगीं

जातात तेन्ना तांकां हेवटेन तेवटेन भावभयणी पसून नातीं निर्माण जातात आनी हीं नातीं भावनीक आनी रगतान जोडिल्लीं आसतात. बापायचें नातें, आवयचें नातें आमचें जिवीत प्रसन्न करता आनी जगपाक उमेद, उर्बा दिता.

प्रणय हो मनशाची अन्न उदका उतलीच गरज. प्रणयाक कोणें अशुद्ध आनी अबुद्ध मानचो न्हय. बायल दादलोच न्हय तर सवणीं सुकणीं आनी मोनजात आपले परीन प्रणय-श्रृंगार रासक्रिडा आनी मिलना करतात. प्रणयांत जिणेची अखंड न्हंय व्हांवता, म्हणजे निर्मिती, उत्पत्ती फुडें सरकता, तिका अंत नासता. देखून हो संवसार चलता. प्रणयाचेर एक कविता सोंपयतना उर्जिता बरयता.

*तुज्या स्पर्शान मन गुंग जाता*
*जिविताचो 'ताण' विसरून वता*
*तुजे वेंगेंत सगळीं कोडीं सुट्टात*
*तें म्हाका खूब आवडटा*

कोडीं सुट्टात म्हणल्यारूच मनशाची जीण अखंड हांगा फुडें चलता. खंयच्याच विशयाचें वावडें धरिनासतना उर्जिताबाय आपल्याक लागतात त्या सगळ्या विशयाक स्पर्श करता. आमी मनीस खूब उत्सवप्रिय. आमकां सण परबो वर्साचे बाराय म्हयने लागतात, आनी त्या परबांचेय वैशिश्ट्य आसता. दिवाळी जावं चवथ, नवरात्र, दसरो, भावबीज ह्यो सगळ्यो परबो आमकां आनंद दिवपाकूच आयिल्ल्यो आसतात.

'जिवीत' म्हणल्यार हे जीवसृश्टींतलें म्हान योगदान. मनशाक तशेंच हेर जिवजिवावळीक लाबलां. जिचें जगप म्हणल्यारूच मनशाचें सार्थक जावप हें 'हाकाच म्हणटात जिवीत' हे कवितेंत वाचूंक मेळटा.

'गोंय' हो सोबीत सुंदर प्रदेश आनी ह्या सोबीत प्रदेशांत जल्माक आयिल्ले आमी भाग्यवंत लोक. धतरि वयलो दुसरो सर्ग अशें गोंयाक म्हणटात, पयलो सर्ग काश्मीर अशें फाकिवंत कवी बाकीबाब बोरकारांनी बरयलां. खरेंच तें, अशा सर्गप्रिय गोंयचो सैम राखपाक जाय हो संदेश उर्जिताबाय आपणाल्या अनेक कवितांनी दिता.

उर्जिता भोबे स्वता अस्तुरी म्हटकच अस्तुरेचें जिणें आनी अस्तुरेचें सूख-दुख्ख तामका खबर आसा. अस्तुरे नमन तुका सारकी बरी कविता रचून उर्जितान बायलेची महत्ता सांगल्या.

मनशाक सपनां पडटात आनी मनीस सपनांनी जगता. सपनां खरीं-फट

नासतात पूण केन्नाकेन्नाच सपनांत पळयिल्ल्यो खूबश्यो घडणुको केन्ना तरी वास्तवतायेंत पळोवंक मेळटा. सपनां वयल्यो कविता खूब ओडलायण्यो जाल्ल्यो आसात. सपनांचें दुसरें नांव भावविश्व. भावविश्व अशीय एक कविता सोपतना खूब ओडलायणी आसा.

*सुखा खिणां कितलीं बियां*
*किरवंटेक हांवें खोयल्या*
*चोरून चोरून काळजान हांवें*
*खीण ते व्हरून रोयल्यात*

खीण रोवपाची कल्पना, कवी मनाची खोलाय आनी विचार करपाची तांक सिद्ध करता.

नव्या कवितांची ही नवी दाद, पूण उर्जिताबायक खूब खूब वाट चलची आसा. एका कविता संग्रहान कोण कवी जायना, कविता हिवूय एक नित्य नेमाची साधना, अभ्यास, वाचन चिंतन, निरिक्षण, बारीकसाण ही कवीचीं शस्त्रां आनी भांडवलां. उर्जिताबायन फकत टायमपास करपाक कविता लेखन करपाचें थारावना, पूण कवितेंतल्यान वाचप्याक कितेंय बरें आनी सूख समाधान दिवपाचें चिंतून काव्य लेखन करता अशें हांव समजता. उर्जिताक म्हजो लाख लाख शुभेत्सा.

**- सुफला रुद्राजी गायतोंडे**
9823111917



# काळजांतलें उर्जास्त्रोत तुमकां दितना

तुजें मनोगत बरोवन दवर, ह्या सुफलताईच्या उतरांनी हांव येवजूंक पडलें. मनोगत आनी म्हजें? हाचे आदीं कोणेंच म्हाका म्हजें मनोगत विचारलें ना. व्हड व्हड लेखकांचें मनोगत वाचपांत आयलां खरें, पूण एक दीस म्हाका तें बरोवचें पडत हें केन्ना येवजूंक नासलें. हांव तर नवखें. चाळीशी सोंपून खऱ्या अर्थान पॅन हातांत घेतलां. हांव विचारांत पडलें, हांव कशें बरोवंक लागलें? केन्नाच्यान बरोवंक लागलें?

कुळारा, तशेंच दिल्ल्या घरा कोणूच बरोवपी ना. मागीर हांव कशें बरोंवक लागलें. वारूच मेळना! पूण एक मात खरें, घरांत वाचपाची आवड सगळ्यांकूच. तातूंत म्हजो पप्पा - डॉ. हरेष फाळदेसाय - हाका वाचपाचें पिशेंच म्हळ्यार जाता. ल्हानपणांतल्यान उंचेल्या दर्ज्याचें वाचन करपाची संवय पप्पा कडल्यान लागली. जे पिरायेंत भुरगीं चांदोबा, अमरचित्रकथा वाचतालीं ते पिरायेंत हांव स्वामी विवेकानंदांचें चरित्र, आर्ट ऑफ लिविंग, रीडर्स डायजेस्ट अशीं विचार करपाक लावपी पुस्तकां वाचतालें. म्हजी माँ, पुष्पा फळदेसाय शिक्षिका आशिल्ल्यान तिकाय पुस्तकांची खूप आवड. खूप वाचन आसतकच मनांत विचार स्फूरत आसताले. विचारांचे विशय जाताले आनी ना म्हळ्यार बारीक सारीक नोंदी करून हांव शाळेंतल्या निबंदांनी उपेग करतालें. दर वर्सा हांवें निबंद लेखनाचीं इनामां घेतल्यांत. बारावेंत बरयिल्लो निबंद तर खास यादींतलो. शिकोवप्यान सगळ्या भुरग्यांमुखार वाचून दाखोवन भोव तोखणाय केल्ली. बरोवपाची कळाशी आसा हें काळजांत जाणा आसलें पूण तें भायर सरूंक पावलें ना.

उपरांत सगळ्या नात्यांतल्या भुरग्यांच्या हट्टा खातीर हांव तांकां जाय जाय त्या विशयांचेर निबंद बरोवन दितालें. खूब तेंप तें जशें कितें म्हजें कामूच जाल्लें. पूत व्हड जालो, संवसाराची जापसालदारकी मात्शी उणी जाली. म्हजी ही कळाशी भुरग्यांचे निबंद बरोवपा पुरती ती मर्यादित उरली जाल्यार म्हाका म्हजी अस्मिताय सांपडची ना. म्हज्यांतलें हें उर्जास्त्रोत भायर येवपाची वाट सोदतालें.

हेच मजगतीं फेसबूकाचेर एक कोंकणी स्पीक्स म्हण ग्रूपांत वांगडी जावपाचो योग आयलो. आनी अचकितूच म्हाका म्हजी पयली कविता 'दायज' स्फुरली. हांवें वेळ करिनासतना ती कोंकणी स्पीक्स ग्रुपांत धाडली. ते कवितेक आयिल्ले लायक्स आनी कमेण्ट्स पळोवन मन भरून आयलें. उमेद वाडली. काळजादेग फुलून आयली. तेच उमेदीच्या भरांत एक एक कविता तयार जायत गेली.

म्हज्यो इश्टिणी मुजरत म्हज्यो कविता वाचतालीं. तातूंतली म्हजी भुरगेपणांतली इश्टीण मॉनिका दळवी हिणें आनी ताजे आवयन कविता वाचून खुपूच तोखणाय करून म्हजी उमेद वाडयली. तांच्या उतरांनी म्हजी उर्बा आनी म्हज्यांतली उर्जा वाडत गेली. एका अर्थान हांव तांचें रीणकारीच म्हणीन. रोखडेंच मॉनिकाची आवय मुक्ताताई आगशीकार हांणी म्हाका फोन करून कोंकणी लेखक संघाचें कविता संमेलनाक व्हेलें. थंय हांवें म्हज्यो दोन कविता वाचल्यो. तें म्हजें पयलें कविता वाचन. कोंकणी लेखक संघाची सचीव सुफला रुद्राजी गायतोंडे हांकां कविता आवडल्यो. सादरीकरण बरें जालां म्हण तिणें म्हाका वेंगेंत घेवन सांगलें. ही तिजे कडेन म्हजी पयली वळख. पूण तिचे वेंगेन इतलें आपलेपण जाणवलें, ही पयलीच वळख अशें दिसलें ना. म्हजी इश्टीण, भयण आनी आवय भशेन आशिल्लें सुफलताई. म्हजे वांगडा म्हजेच पिरायेचें जाता हो ताजो गूण यादींत उरपाचो.

तुज्यो कविता तूं खंय खंय धाडटा? ह्या सुफलाताईच्या प्रस्नाक म्हजे लागीं कांयच जाप नासली. तेन्ना सुफलताईन म्हाका कोंकणी दिसाळें भांगरभूयचेर म्हज्यो पांच कविता धाडपाचो हट्ट केलो. आयचें काम फाल्यांर उडयनासतना धाड. आयचें काम आज करीत जाल्यार ताचें फळूय तुका रोखडेंच मेळटा ही शिकवण सुफलताईचीच. ताचे हेच शिकवणीक लागून इतल्या उसरां सुरू करून लेगीत इतले बेगीन म्हज्यो सगळ्यो कविता तयार जाल्यो हातूंत मातूय दुबाव ना.

सुफलताईन सांगिल्लेप्रमाण पांच कविता हांवें भांगरभूंयेंत तेन्नाच व्हरून दिल्यो. म्हजें नांव आनी कविता नेमाळ्यांत पळोवन म्हजे उमेदीक शिममेर उरली ना. तातूंतल्यान म्हजी उर्बा आनिकूय वाडली. आनी सुफलताईखातीर हांव कोंकणी लेखक संघाचें कायम वांगडी जालें.

खंयचे तरी कार्यावळीक मेळिल्लेकडेन म्हजें आनी सुफलताईचें जाल्लें संभाशण म्हाका आयजूय याद जाता.

सुफलताई: उर्जिता, तुज्यो कितल्यो कविता जाल्यात?

हांव: 80

सुफलताईः अगो, 85 जावंदी.

हांवः कित्याक सुफलताई?

सुफलताईः कवितेचें पुस्तक काडया.

हीं ताचीं उतरां आयजूय कानांत आनी मनांत घुमतात. अती आनंदान तोल वचपाचो, म्हजे म्हाकाच हांवें सांबाळ्ळें. तुमी म्हणटलीं हाचें मनोगत सुफलताईचेरूच आसा. पूण हांवें सुफलताईचोच हात धरून ह्या साहित्याच्या मळार पावल दवरलें आनी ताणेंच म्हाका हांगा मेरेन हाडलें. हें हांव कशें विसरूं? ताणेंच वाट दाखयली आनी ताचेच मायेच्या आनी आपलेपणाच्या आदारान हें उर्जास्रोत हांव तुमच्या हातांत दिवंक शकलें.

म्हजें मनोगत बरयतना कांय नांवां सांगुकूच जाय. नाजाल्यार म्हजें मनोगत पुराय जावचें ना. म्हजो भाव आशिष हरेश फळदेसाय हाका हांव म्हजें पयलें लिखाण वाचून दाखयतां. तो म्हजी तोखणायूच करता पूण केन्ना केन्ना बदल सुचयता आनी कितें समजूंक ना ताची फोडनीशी करूंक लायता. ताच्यो सुचोवण्यो म्हाका खूब कितें दिवन वता.

तशेंच म्हजी सासमाय सौ. मिलन सुभाषचंद्र भोबे हांका हांव कितें बरयता हाची भोव तोखणाय. खरें सांगपाचें म्हळ्यार आयज म्हजो कविता संग्रह येता हाची व्हडवीक आनी उमेद म्हजेपरस म्हजे मांयमांवांक, म्हजो घरकार सुव्रत आनी पूत अचिंत्य हांकाच चड आसा.

प्रत्येक पावला कणकणी हांव सुफलताईचें उपकारी आसा आनी ताच्या उपकारान रावपाक म्हाका आवडटलें हेंच सत. फकत कवितांची फायल सुफलताईलागीं दिली आनी कसलीच अडचण काडिनासतना सुफलताईन उर्जास्रोत तयार करून म्हज्या हातांत दिलें. हें कितेंतरी रूणानुबंदूच अशें म्हाका दिसता.

मुखपृष्ठ तयार करपी गौरीश वेर्णेकार हाचें हांव उपकारी आसाच. रूद्रा प्रकाशनाचें तर रीणकारीच म्हणपाचें! रुद्रा प्रकाशनाक बरे दीस आंवंडेता. आमोल कामतीकय दिनवासता.

तुमचो सगळ्यांचो आशीर्वाद घेवन उर्जास्रोत तुमका ओंपता. कशें दिसलें मुजरत कळयात.

**- उर्जिता भोबे**

# सैमराजा आयक रे........

सैमराजा आयक रे
म्हाका ऊंच गड नाका
पदां म्हाका जड नाका
मंडळांतले ग्रह नाका

कर म्हाका झुळूक मंद
बेत नदये देगेर थंड
कूस दी गा एक गुप्त
व्हावन घेवंक मनसोक्त

सैमराजा आयक रे
त्या निर्मनीस मळार
हुस्कारुनी त्या खळार
वा पानांच्या सळसळार

जावं पयसुल्ल्या बानार
तिनसाने किण्ण कानार
शांत राबुनी रानार
पूण खेळू तुज्याच खानार

सैमराजा आयक रे
जावनी रे तुजेंच बाळक
घेवनी रानटीमळ्या वळख
नाका म्हाका मुकूट राज्य
शाही थाट म्हाका त्याज्य

फांतोडेचो दी गा तुज्या
एकूच म्हाका खीण
नाका म्हाका वर्सभराची
धांवपळीची बासकळ जीण
नाका म्हाका वर्सभराची
धावपळीची बासकळ जीण

## आयज वत झळकलां.......

धव्याफुल्ल मळबा मांडयेर
सुर्या आयज उडून आयला
हुनहुनीत उदक न्हावून
धवें न्हेसून, तणार बसून
पाचवेचार विलोदाचेर आयज चमकलां
कितल्या दिसांनी आयज वत झळकलां

मळब धवें, कुपांय धवीं
कुपांकडांक झालर हळडुवी
दुगदुगीत मोव मोव
पानां जाळी ल्हव ल्हव
खांचींनी ते जाळयेच्या हळूच सवकलां
कितल्या दिसांनी आयज वत झळकलां

पांयांमुळा विलोदा पोळो
कुपां विणटा लोकरे गुळो
विणये कांटो हालत धोलत
चंचल व्हाळार चकचकत
झिरपत आनी निसरत सोबीत दिपकलां
कितल्या दिसांनी आयज वत झळकलां

ल्हवूच हात फुडें काडून
फांदयेंत लिपून सावळी ओडून
मस्त्या पोरावरीं हांसून
आपालिपा खेळून खेळून
मोन्यांनीच चोरून चोरून पानांनी झिरपलां
कितल्या दिसांनी आयज वत झळकलां

# सैम म्हणल्यार देव

केन्ना वत केन्ना सावळी
केन्ना कुपां केन्ना पावळी
अजाप भल्लां कणाकणान
सैम हें विश्वाचो प्राण

सैमूच आमचें अस्तित्व
सैमांत लय सैमांत तान
उतरांनी सांगूंक येना
सैम आसा इतलो म्हान

ज्या बळा गर्व तुका
घडवप बिगडावप सैमा हातांत
विज्ञानाक दिता आव्हान
जाता संकट रागान

कृपा करुणा माया ममता
सैम येता ना ना रूपान
स्रद्धेची भास शिकयता
समजून घेता भक्तीभावान

तुवें ताजेर मोग केल्यार
ओंवाळून उडयत तुजेर प्राण
करीत कृपा सदांच
तुजें करीत कल्याण

देवळां इगर्जेंत सोदी जाका
त्या देवाचें तें वरदान
सैमूच मोक्षाचें दार
सैमूच ब्रम्हज्ञान

# सैम-एक अस्तुरी

कितले सोंसता अत्याचार
कितलो तेंप खाता मार
सोंसून सगळें हांसता तरी
सैम आसतली अस्तुरी

झाडापेडां मोडून
रानां दोंगर फोडून
उबीं करतात घरां
आनी नगराचीं नगरां
दिता आसरो मरून जरी
सैम आसतली अस्तुरी

फुलां सोबीत रंगाचीं
सुकणीं देखण्या आंगाचीं
मळबांत भोंवपी पाखरां
जावं रुतूचीं चक्रां
खोस वांटून काळजां भरी
सैम आसतली अस्तुरी

आसली जरी अस्तुरी
दुबळी ती हो गैरसमज
सोंसची शक्त सोंपली जाल्यार
अंत तुजो आयलोच समज

कितलें ती सोंसतली?
सोंसून ओगी बसतली?
घाय तिचे उकरासून
सोंसची शक्त सोंपोवं नाका
घेतली मागीर काली रूप
अंताक तुज्या आपोवं नाका

घुंवरा राशीन घुस्मटल्लें
सैमा काळीज खतखत्तलें
उश्मान हीम विरगळटलें
हुंवार जावन कोसळटलें
अधर्माक ह्या सोंपोवपाक
दुर्गा रूप धारण करी
सैम खरीच अस्तुरी
सैम खरीच अस्तुरी

## मळब

निळें मळब वयर
जग सोबीत पोंदा
कुपांक घेवन कवेंत
रंगी सोबीत सपनां

उक्ते तुजे वेंगेन
सुकणीं उडूंक पिसावतात
नकेत्रां, चंद्र, सूर्य
मांडयेर तुज्या विसावतात

अंतराळ गोपांत तुज्या
गुपीत तुजें गहन
एकदां तरी आफडूंक तुका
सदांच उडटा मन
एकदां तरी आफडूंक तुका
सदांच उडटा मन

# वेळ

रेंवूच रेंव हांगा थंय
पांयां बोटांनी
तुज्या कानांनी
मेळत थंय, खंय खंय

दर्या व्हांवता सुसेगाद
झोंपय मारता ल्हारां
भोंवतणी सकयल वयर
ह्या मोवसार दनपारां

हुनहुनीत वत जरी
तुका भाजून काडटा
भितर भायर तापून लेगीत
हांसो तोंडार हाडटा

वेळेर चलपा सूख
मेळत आनी खंय?
धरतरेवेलो भोव सोबीत
सर्गूच आसता थंय

# सांजवेळ

मळबा आंगार फांकारिल्लीं
धरतरे कणाकणान विस्तारिल्ली
मळबारेगेर वचून सुर्या
किरणां पुंजावंक लागलो
सांजवेळ जावंक लागलो

धुळीकणान जी खेळटाली
झाडामुळांत जी लोळटाली
सावळेक त्या काळापड्डो
आतां लिपोवंक लागलो
सांजवेळ जावंक लागलो

मातयेन घडयिल्ली
फुलांनी सजयिल्लीं
खेळांतलीं घरां रस्त्यार सोडून
बाबू न्हिदूंक वचूंक लागलो
सांजवेळ जावंक लागलो
सांजवेळ जावंक लागलो

# राती मळब

रातीं मळब कितलें सोबीत
आयज वेगळोच चडला कोर
गडद निळो जायत गेला
शांत आसून चडला जोर

चंद्राक आयज वेगळीच झळाळी
नकेत्रांची सोबा निराळी
काळजांत विचार खोल जितले
भाव दाटून येता तितले

रात आयली कितली सोबीत
घेवन पळय तिका गोपांत
वेंगेन तिजे कितली थंडसाण
कितलो सुसेग खोल काळजांत

रातीमळबा सुगूर कवेंत
फूलय सपनां गोड
फायचो दीस उजवाडटलो
हांसरी घेवन फांतोड
फायचो दीस उजवाडटलो
हांसरी घेवन फांतोड

# आसोर

पावस निकतो पडून गेला
धरतरेक न्हाणोवन गेला
धरतरे आंगार निकतोच
भांगरा पदर चडोवन गेला

नळ्यांवेल्यान गळटा थेंबे
मळबांत उडटा पाख्यां चोंबे
फुलानी मुठीन थेंबो लिपयला
पानांनी थेंब्याचो पदर पातळायला

सानुलीं सुकणीं आपलीं पाखां सुकयता
कोगूळ मागीर आपलें गोड पद आळयता
वाटसुरे आडोस सोडून वाट धरता
ओले रस्ते सुसेगान सुस्कारता

आंगणांत मागीर हळूच बेबक्यो येतात
घोगऱ्या आपल्या आवाजान त्यो पदेतात
कोंगेय भोंवता मागीर जळीमळी
अळंग हेडटात चुकोयत खांचखळी

बेबक्यांच्या टरटरान आंगण दुमदुमता
रातकिड्यांची किरकीर सगळ्याक घुमता
काजूलेय मागीर आपले दिवे पेटयता
परतून काळीं कुपां दाटून येता

किण्ण रातीन मदींच कुपां गडगडटा
परतून मागीर नेटान पांवळ्यो कोसळटा
पावस सदां असोच येता आनी वता
दर खेपे रंग नवे घेवन येता
दर खेपे रंग नवे घेवन येता

# उटंगाराचो पावस

आतांच पावस पडून गेला
उटंगाराचो, घसघसून पडला
झाडां हुमटल्यां, पानां शेंवटल्यां
घोग्यांनी, मुसमुसून रडला

कुपां काळीज फुटिल्लेवरीं
कोसळून आयल्यो सरी
कसोच आळो बसना
व्हांवलीं घरां जरी

केली सगळी नासधूस
जिणूच आख्खी हालयली
आशेची मशाल जितली
पेट्टा तितली पालयली

पडून पडून अखेरेक
जालें ताकाच पुरो
मागीर सामको सुस्तेलो
झडलो बारीक पिरपिरो

सगळें कशें जालें शांत
एकाच खिणान अकस्मात
पावळेचे जाले थेंबे
गळूंक लागले आंगणांत

लुकसाण इतलें जालें म्हण
ताजें ताकाच खालें
कुपान वचून लिपलो तो
सगळें बंद जालें

सगळेकडेन जाली मागीर
किरांव शांतताय
ओलीं झाडां, ओलीं पानां
आनी ओलीं काळजांय
ओलीं झाडां, ओलीं पानां
आनी ओलीं काळजांय

# धुकें

पांय मेकळे करूंक
हांव जेन्ना भायर सरलें
फांतोडेच्या धुक्यान
वाटेर म्हाका धरलें

जड जावन धुकें
दर्यार ल्हवूच व्हांवता
एक एक दोंगर
नदरे आड जाता

ल्हवूच मागीर रस्तो
आपुणूच लिपता
देगेवेलें झाड तेन्ना
धुक्यान संवकता

धुकें भायर उफेवन
धुंवरेल्या जनेलां
धुकें कोंबून वाऱ्यान
संवसार कुड्डो जाला

भायल्या धुक्या वांगडा
इत्सांक लकणी येता
ल्हवू ल्हवू काळजांत म्हज्या
विचार झेमेता

लिपून लिपून आयिल्लें धुकें
ल्हवू ल्हवू चड जाता
हळू हळू धुक्यावरींच
काळीज म्हजें जड जाता
हळू हळू धुक्यावरीच
काळीज म्हजें जड जाता

## पावस

काळ्या काळखी कुपां
कोसळ म्हज्या कळशांत
तानेल्ली वाट म्हजी
न्हिवय ताजी तान

शेतां देखती वाट तुजी
दोळ्यांत हाडून प्राण
कोमरी फूलय पांचवें न्हेसय
कर आमचें कल्याण

धरतरेचो सुकला ताळो
कात जळटा तळतळान
घोग्यांनी झड रे आंगार
कर शितळ जीव सुखान

झाडां पेडां बुरसटल्या
माखल्यां रे धुल्लान
घश्टून घश्टून न्हाणय रे
रंगय पाचव्या रंगान

कागदा तारूं आशेलां
पेंवपाक रे तळ्यांत
जोगलां जागोर आयकूंक
तानेल्यात रे कान

कुपां जालीं काळीं
पूण ना रे कोण दुख्खांत
फुलून आयलां काळीज
भिजूंक आयज पावसांत
फूलून आयलां काळीज
भिजूंक आज पावसांत

# श्रावणांतलो आयतार

श्रावणांतलो आयतार
सवायशिणींचो वार
पत्री फुलांनी नटोवन
केलो सुर्याक नमस्कार

सूर्यनारायणाक पुजपाक
सज्ज जातात सवायशीणी
पुंजावन हाडटात दुर्वा पत्री
शेंवतीं, मोगरीं, दसणी

पाट मांडून दिवली लायता
मांडटा केळीचें पान
चंद्र सूर्य सजतात ताजेर
गंधान आनी कुकमान

कापूस कुकूम भक्तीभावान
वस्त्रां सोबीत वळटात
नथ, हार, कानांतलीं
चडोवन आयतार नटयतात

हरयाळेच्यो चुडयो मागीर
अपुरबायेन बांदतात
चुडटांचें वक्ल करून
पुडयो तातूंत मांडटात

मांडणी सोबीत रचून
सूर्यदेवाक अर्गी दिवंक लागतात
जल्मोजल्मी ताचे लागीं
सवायशीणीचो मान मागतात

श्रावणांतलो आयतार येतांच
घर सगळें परमळटा
जायाजुयांच्यो फांतयो माळटा
पंचारतीन वाती जळटा

आयताराक जेवण रुचीचें
पक्वान्नां शिजतात खास
जीब तृप्त करून वता
गोडशांची रास

मोटे उमेदीन आयतार पुजून
सवायशीणी कुकूम लायतात
दनपारां मागीर तितलेच श्रद्धेन
तुळशींत व्हरून पायतात

श्रावण आयलो श्रावण सरलो
सरले सगळे वार
करता करता येवन तेंकलो
निमाणो आयतार

निमाणो आयतार घेवन आयला
गणपतीबाप्पाचो साद
लाडू, मोदक करात आतां
गाजयात आरत्यांचो नाद

# म्हजो पप्पा

'गुंडी रे' तुजो मायेचो उलो
आयजूय कानांत घुमता
अपुरबायेन ओडिल्लो हात
आयजूय माथ्यार भोंवता

आयजूय हांव तुजेफुडें
तुजें धाकटें अपन जातां
तुज्या सगळ्या शिकवणीची
आयजूय याद येता

केन्नाच आवाज चडलो ना
पूण शिस्त तुवें लायली
बारीक लेगीत येसान म्हज्या
तुजी छाती फुलून आयली

सगळेच गूण तुजे घेवपाचें
पासियेंस, धीर, समजूतकाय
आपल्याच मनशांची न्हय तर
सगळ्या जगाची तुका अपुरबाय

मोटो मनीस वा कामगार ल्हान
तुवें केलो ना भेदभाव
सगळ्यांक सारको मान दिलो
मंत्री जावं, मानाय जावं

पुर्तुगेज काळांतले प्रोफसोर तुजे
आयजूय तुजे गूण गायतात
'ही इज अ जॅम, अ जिनीयस'
अशी अनेक विशेशणां लायतात

दोतोर म्हणून खेड्यापाड्यांनी
कितलो तूं राबलो
म्हणुनूच तर लोकांनी
देव तुका मानलो

आयली कसलीय अडचण जाल्यार
केली ना केन्नाच हयगय
पप्पाचो खंबीर आदार
आमकां नासलो कसलोच भंय

आयजूय तुज्या तोंडार
समाधानाचो भाव
आसा तातूंन सूख तुका
ना कसलीच हाव

केल्ल्या तुज्या उपकारांक
कितले लोक जागतात
बापूय तुजो देव मनीस
लोकूच म्हाका सांगतात

नशीब म्हजें व्हड
तुजें चली जावन वाडलां
सगळ्यान बरो पप्पा
देवान म्हजेच खातीर धाडला
जगान सगळ्यान बरो पप्पा
देवान म्हजेच खातीर धाडला

# आमगेर आयली परी

आमगेर देवान धाडली
अपुरबायेची एक परी
धनाची पेटी घेवन
आयली राजकुमारी

दिसपाक इतली सोबीत
रुपान खरीच अप्सरा
लक्ष्मीच्याच रुपान देवा
आयली आमच्या घरा

बाय कितलें शाणें
सगळ्यांचें अपुरबायेचें
गोड मिलन गुणांचें
आनी सोबीतकायेचें

हुशारी ताची सगळी
अभ्यासांत दिसता
धुवडी म्हजी ती हाचो
अभिमान म्हाका दिसता

तकलेन हुशार
हस्तकलेंत निपूण
धुवडेंत म्हज्या भल्ल्यात
सगळेच बरे गूण

देवा लागीं हांव आतां
आनीक कितें मागूं?
धुवडी म्हजी दिसता
जशी म्हजीच धूव
धुवडी म्हजी दिसता
जशी म्हजीच धूव

# माँ

चडश्यो बायलो घरा आसताल्यो
तूं शाळेंत वचून शिकयताली
आपलो संवसार चलयताली
भुरग्यांक वाट दाखयताली

भायर काम करून लेगीत
घरार दुर्लक्ष केलें ना
नोकरी केली तरी आमची
अडचण जावंक दिली ना

नितळसाण सदांच राखली
कोनशान कोनसो चकचकीत
जेवण तर इतलें रुचीक
सगळेंच कशें वेवस्थीत

शिवणकाम भरतकाम
इतलें तुजें सोबीत
खोड काडूंक जागो ना
खंयचेच बाबतींत

कुळारा तशेंच घरा
सारकोच तुका मान
सगळ्यांची तूं आवडटी
तुका मानतात सगळे जाण

शाळेंतल्या भुरग्यांची
तूं आवडीची बाई
कुळारची तशीच घरची
अपुरबायेची पुष्पाताई

सगळ्या गुणान तरबेज
सगळ्या कामान निपूण
म्हाका कसो आयलो ना
तुजो एकूय बरो गूण?

नोकरी करून लेगीत
घर इतलें बरें सांबाळ्ळें
तुजें हें कसब म्हाका
खूब उसरां कळ्ळें

त्रास कितले काडले
पत्तो कोणाक लागूंक दिलो ना
आपल्या ह्या कळाशेचो
गर्व केन्नाच केलो ना

तूं म्हजी माँ म्हणून
म्हाका खूब गर्व आसा
माँ तुज्या पांयां कडेन
म्हजो खरो सर्ग आसा
माँ तुज्या पांयां कडेन
खरेंच सर्ग आसा

# देवदूत

वाट दाखयता करता जतनाय
म्होंवाळ उतरां आनी मृदुताय
देवदूत असोच हाताक धरून
साबार सासाय दाखोवन दिता

अळंग सदांच वेंगेंत काडटा
हांसो आमच्या तोंडार हाडटा
करून शिंवर मायेमोगाचो
जिवीत सगळें आमकां ओंपता

असोच एक देवदूत
देवान म्हजे खातीर धाडला
फकत म्हजीच म्हण मिरोवपाक
हाचो गर्व म्हाका चडला

म्हाका लागून खूब सोंसता
मायेन कानान पुटपुट्टा
काळजान म्हाका घट्ट धरून
भिरांत म्हजी धांवडायता

पुराय जिवीत सांगाताक म्हज्या
तिजेच कुशीक हांव वाडलां
दाखोवन म्हाका चारूय दिको
संवसारान वयर काडलां

शिकवण अशी जिविताची
कोणेंच दिवंक ना तशी
बीं तिच्या संस्काराचें
खोल काळजांत दडलां

सदांच लायल्या बरी संवय
तान भूक म्हजी तीच न्हिवय
हांव मोटें नशिबवान
म्हाका
म्हणूंक मेळटा तिका आवय
म्हाका म्हणूंक मेळटा तिका आवय

# यादींची पायण

यादींचे पायणीन काल मारली पासय
मेळ्ळी थंय पावलां दोन
वांगडा चलतालीं माणकुलीं पावलां
चुकयत फातर आनी फोण

थंयच मेळ्ळे म्हाका सुरकुतिल्ले दोन हात
आनी मेळ्ळें एक सुरकुतिल्लें तोंड
सुरकुतिल्ल्या हातांची सुरकुतिल्ली मिठी
मिठयेंत वाडटें म्हजें भुरगेपण

दोन मेळ्ळे दोळे मोती पडिल्ले
नदर मात निवळ आनी पावन
पळोवपी सदांच मायेन
वळखुपी म्हजें मन

मेळ्ळें एक कापड
धुंवरिल्लें माखिल्लें तेलान
आनी पदर मेळ्ळो मायेचो
पुसपाक म्हजें तोंड

कुळणें एक मेळ्ळें
तातूंत सोल मीठ ती घालताली
फाटल्या शितार कडी व्हांवोवन
परत दाय भरून वाडटाली

शीण विसरून सासपून घेवंक
मेळ्ळी कापडांतली मायेची माणी
कितल्या तेंपाची शेणिल्ली न्हीद मेळ्ळी
मेळ्ळी राजा रायणेची काणी

आतां सदांच एक पावट ते पायणींत मारतलें
एक एक याद करूंक ताजी
आनी सोदूंक तो सुरकुतिल्लो हांसो
मेळटली सदांच म्हजी मायेची आजी
म्हाका सदांच मेळटली म्हजी आजी

# म्हजें पैंगीणचें घर

चवथ लागीं पावता तशी
कुळाराची ओड लागता
आपल्या सगळ्या मनशांक
मेळपाक मन उडूंक लागता

कुळार म्हजें पैंगिणी
सोबीत चौकी घरांत
आंगणांत तुळशी वृंदावन
बांय मागीलदारांत

बुन्याद ताजी मोयपासाची
जतनायेच्यो वणटी
सगळ्यांचो जीव ताजेर
जाणटीं तशींच नेणटीं

शेणाचें आंगण, कोठयेची कूड
गोठ्यांत गोरवां हामेता
साठ सुकता चुडटां माटवार
बिलूबाय हुमऱ्यार झेमेता

पैंगिणीच्या घराक म्हज्या
नळे पुडीकोराचे
झोंपय मारून पाखो हांगा
चोंबे चोखता तोरांचे

शेणान आंगण सारयलां पळय
नटल्य कशी तुळस
आंब्याक चंवर आयला पळय
पेडार पिकला पणस

# तें म्हाका खूब आवडटा

दोळ्यांत म्हज्या तूं पळयता
तुजीं सपनां म्हाका दिसता
तुजी नदर जेन्ना म्हजेर पडटा
तें म्हाका खूब आवडटा

पिशांवरी हांव जेन्ना बडबडटां
हांसो तुजो दोळ्यांनी म्हाका ओडटा
वेंगेंत तुज्या हांव विरगळटां
तें म्हाका खूब आवडटा

वेळेर चलतना हात तूं धरता
पांयांमूळची रेंव निसरता
तूं तिरशे नदरेन आफयता
तें म्हाका खूब आवडटा

म्हज्या तोंडाचें तेज तूं जाता
ल्हवूच कपलाचो उमो घेता
गोपांत तुज्या हांव सुगूर जातां
तें म्हाका खूब आवडटा

तुज्या स्पर्शान मन गुंग जाता
जिविताचो ताण विसरून वता
तुजे वेंगेंत सगळीं कोडीं सुट्टा
तें म्हाका खूब आवडटा

# वलसो चंद्र फुलता

दमट खाऱ्या यादींनी
रंध्र रंध्र सोलता
निळशे ते न्हंयेदेगेर
वलसो चंद्र फुलता

खीण तुंवें दिल्ले आयजूय
दोळ्यांत म्हज्या खेळटा
तेंप जालो तप गेलो
खीण ते अजून सलता
निळशे ते न्हंयेदेगेर
वलसो चंद्र फुलता

अनवळखीश्या गांवांत म्हजें
काळीज म्हाका व्हरता
दीस म्हजो उजवाडना
रातीं यादीर झुलता
निळशे ते न्हंयेदेगेर
वलसो चंद्र फुलता

जितली जितली लागीं येता
तितलीच आमी पयसावता
दीस जाता आकुळपिकुळ
राती रित्यो कलकलता
निळशे ते  न्हंयेदेगेर
वलसो चंद्र फुलता

# यादींचीं पायजणां

रित्या रित्या काळजांतले
रिते रिते दीस
आनी किण्ण दोन राती
एक तुवें रडयली
एक हांवें जागयली

तुज्या काळजांत म्हजीं
म्हज्या दोळ्यांत तुजीं
अगणीत तीं सपनां
कांय तुवें दाखयलीं
कांय हांवें रंगयलीं

आंगणांत तुज्या कितले खेपो
फांतोडेन घेतल्यो सांजेन झेपो
आनी कितलेशेच सूर्य
कांय हांवें देंवयले
कांय तुवें बुडयले

नकळटना आपसुकूच
पयस आमी जाायत गेलीं
जायत गेली जखम ओली
जी हांवें पेकयली
पूण तुवें उसयली

आयज ना ते दीस
आनी आयज त्यो रातीय नात
उरल्यांत तीं फकत
तुज्या यादींचीं पायजणां
कांय तुवें नाचयलीं
आनी हांवें वाजयलीं

# सदांच तूं मेळटा

आयज लेगीत त्या रुखार
परमळटा तुजीच याद
फुलांफुलार आयजूय
सुवास तुजोच घोळटा

वेळेर ल्हार येता
साद तुजोच घेवन
दोळ्यांत म्हज्या आयजूय
सपनां तुजींच लोळटात

अजून रात जागीच आसा
कूस अजून परतुना
हुस्कार हांव सोडटां
तातूंत स्वास तुजोच खेळटा

आमोरेचो सोस म्हाका
आतां आनीक उरूंक ना
कित्याक पळोवं वाट
सपनांत सदांच तूं मेळटा
म्हाका सदांच तूं मेळटा
सदांच तूं मेळटा

# मोग येतलो

वचूं दी तांकां

त्या मोडिल्ल्या उतराक
त्या चक्काचूर जाल्ल्या वचनाक
त्या चिरून उडयिल्ल्या सोपूताक
वचूं दी...
तोडपाकूच दिल्लें तें

वचूं दी तांकां

त्या इमानदार फटकिऱ्या
त्या अडेच्या इश्टांक
आलायत्या नात्यांक
वचूं दी...
सोडपाकूच जल्मल्ले ते

वचूं दी सगळ्याक
ल्हानाक व्हडाक मदल्यांक
उंचाक, खरेलेच विशाल
सगळ्यांत व्हड, म्हान
वचूं दी...
सगळ्या सगळ्यांक...
वचपाकूच आयिल्ले ते

मागीर...
...मोग येतलो
मागीरूच मोग येतलो

...सासणाक
सदांकाळाक

# कोण तरी वांगडा जाय

चान्याचे रातीं मळबा कडेन पळयत
कुपांच्या पलतडचें जग म्हाका पळोवपाक जाय
वेंगेंत घेवन नकेत्रां मेजीत रावपाक
कोण तरी असो वांगडा जाय

पेटिल्ले म्हजे जिणेक सुसेग जाय
कोऱ्या मनाचे पाटयेर रंग भरपाक जाय
आयुश्यभर हातांत हात घालून चलपाक
कोण तरी असो वांगडा जाय

दोळ्यांतलीं दुकां पुसपाक जाय
खोशयेच्या गोपांत लजपाक जाय
रखरखीत वतान पावसाचो शिंवर करपाक
कोण तरी असो वांगडा जाय

# थेंबो पावसाचो

काळजान म्हज्या मुसमुसून
धुनी यादींची पेट्टा
पोरणें तें पद आयकून
काळीज म्हजें घुस्मट्टा

ओगीच हांव सतर वितर
खंत ओगीच काळजा भितर
कितें तरी घुटमळटा
लिपता कितें दिसता सर

ओले ओले थेंबे आतां
गालार उदक मारता
माथ्या वयल्यान निसरता
केंसान झिरपता

कैद सगळ्या उमेदींचे
पास सुट्टा अकस्मात
धुंद भिजून वावजडींनी
म्हेळें काळीज सोडटा कात

न्हावन येता एकूण एक
खीण पोरण्या दिसांचो
पोरणे तेंच पद म्हजें
गायता थेंबो पावसाचो
पोरणे तेंच पद म्हजें
गायता थेंबो पावसाचो

# दिवाळी

आंगणांतले दिवे झगमगता
उजवाड सरभोंवतणी
पर्जळीत जावंदी जीण
पावला कणकणी

रांगोळेचे रंग विंगड
आंगण सोबयता
जिवितूय रंगून वचूं
आयज हांव आंगयता

जिविताचो शीण वचूं
उटणे अभ्यंगान
सुवासीत जावं जीण
दिवाळेच्या न्हाणान

काळखी उमाशेची रात
आयची आसा जरी
आकाशदिवो उमेदीचो
काळोख पयस करी

प्राणाची सोबीत पणटी
उत्साहाचें तेल तातूंत
आशेची वात करून
झगमगीत वच पेटून

रांगोळेच्या रंगान रंगून
उटण्याच्या सुवासान परमळून
झगमगूंदी ही दिवाळी
पणटेच्या तेजान पर्जळून

## नवो पाडवो

नवो सूर्य नवें वत
नव्या वसंताची नवी पालवी
नवे झरे नवें वारें
नव्या आशेचीं फुलां नवीं

नव्या मार्गार सर फुडें
घडय नवें परिवर्तन
नव्या गोंयचें सोबीत सपन
घेवन आयलां हें वर्स नूतन

नव्या वर्साच्या नव्या दिसा
घेवया आमी नवो सोपूत
नव्या रगतान चल घडोवया
नवे नवे गोंयचे पूत

भ्रश्टाचार पुसून उडय
सत्याचो धोल बडय
झाडां रोवन रानां वाडय
गोंयान नवें सैम घडय

फाफडून उडय पोरण्यो रिती
पोरण्यो सगळ्यो तोड रुढी
भरून काळजांत नवी उमेद
नव्या सपनांची उबार गुढी

फाटलें सगळें पुसून काड
नाका एकूय दीस रडवो
सगळीं मेळून चला घडोवया
नव्या गोंयचो नवो पाडवो

# दसरो

रामान मारून रावणाक
केलो ताचो सांवार
गर्वाचो करून नाश
केलो ताका कावार

रामाचें चरित्र म्हान
मानतात सगळे जाण
एक ताचें वचन
एक ताचो बाण

रामावांगडा हरून
जैत मैळयलें रावणान
मुक्ती प्राप्त जाली ताका
रामाच्या चरणान

संवसारान आयज भरल्यात
अत्याचारी रावण
नशा, चोरयो, भ्रश्टाचार
लुटपाट वा चीरहरण

दुडवांवांगडाच जाता हांगा
कुशेंसाची चोरी
आन्यायाक बळी पडटा
दर एक अस्तुरी

न्हिदिल्ल्या कुशेंसाक
हालोवन जागे करात
भात्यान सत्याचे बाण वा
काळजान राम भरात

झुजून ह्या रावणाकडेन
खोशये दिवल्यो पेटोवया
मिथ्येचेर सत्याचें जैत
खऱ्या अर्थान मेळवया

दिसाक एक दुराचार
आनी दुर्वेव्हार हुमटावया
दर दिसा अशे तरेन
दसरो आमी मनोवया
दर दिसा अशे तरेन
दसरो आमी मनोवया

# गांधी जयंती

गांधी हांव पूणुन
सत्तेची म्हाका हाव ना
देसाचो इमानी हांव
परतंत्र म्हाका भाव ना

तुमकां जाय तें उलयात
उलोवन न्हय दाखयलां करून
तुमकां स्वतंत्र भूंय जी मेळ्ळ्या
कितल्यानी मेळयल्या ती मरून

चुको काडप सामकें सोंपें
देसाक दुशण दिवप सोडात
हांवें इंग्रजांक भायर काडले
तुमी कोयर तरी भायर काडात

सोरो कोयर आयजूच वर्ज्य
फायच्यान परतून तीच काणी
गांधी जयंते दिसा पुरत्यो
गांधीजीच्यो शिकवणी

देस बदलाचो बोवाळ नाका
सत्याचो तूं धोल बडय
देस आपुणूच बदलतलो
तुज्यानूच तूं बदल घडय

स्वतंत्र भारत भेटयलें तुमकां
तुमी नितळ भारत करात
गांधी जयंतेचें नाटक नाका
रगतान म्हजीं तत्वां भरात

# भावबीज

ल्हान हांव म्हूण सदांच
लाड म्हजे जाले
व्हड भावा काम तुवें
बेस बरें केलें

केंस ओडून खोडी काडून
केली तरी मस्करी
नदर दवरून म्हाका राखून
दिली माया खरी

म्हजी खोस हांसो जावन
तोंडार तुज्या पावताली
काळीज म्हजें दुखल्यार
दुकां तुजीं व्हांवतालीं

अजून लेगीत तूं
म्हजे खोशयेन खोशी जाता
अभिमानान भावा तुज्या
म्हजें काळीज भरून येता

त्रास म्हाका पडले जाल्यार
शेणटा तुजो सुसेग
एकटोच तूं घुस्मट्टा
भरता दोळ्या देग

सतर वितर जीव तुजो
करी कितल्यो आंगवणी
सदांच मागता म्हजे खातीर
सूख पावला कणकणी

देवा लागीं मागून तुवें
सूख व्हंटयेंत घालां
आयज मेरेन सुखान त्या
हांव बुडून गेलां

भावबीजेक आयच्या तुका
कितें दिवं येवजितां
मोगाच्या कागदान बांदून
अपुरबायूच दितां

भरभराट जावं तुजी
नशीब सदांच जागूं
सुखाक तुज्या कोणाची
दश्ट नाका लागूं

भावबीजे दिसा मागतां
देवा म्हाका पाव रे
दर जल्माक दी गा म्हाका
होच म्हजो भाव रे
दर जल्माक दी गा म्हाका
होच म्हजो भाव रे

# देवी अंतरांतली

अस्तुरे तूं जागी जा
राखूंक तुजो मान
दुर्गेचें रूप जागय
धिटाय भर आंगांत

अस्तुरे तूं उठ आतां
पदर तुजो खोय
काली रूप घेवन
जगांत बदल तूं घडय

अस्तुरे तूं लीन जा
अनंतांत घे झोंपय
पार्वतीच्या रुपान
भक्ती तूं शिकय

अस्तुरे तूं कर सांबाळ
कर गे तूं जतन
अन्नपूर्णा रूप जागय
कर पालन पोशण

अस्तुरे जगाक दाखय
तुजें शक्तीरूप
शिवाक जागय अंतरांत
परगटाय अप्रूप

नवरात्रांच्या निमतान
आमी अंतराक जागोवया
अंतरांतल्या देवी रूपान
नवरात्रां मनोवया

# गणपती बाप्पा मोरया

रूप तुजें मोहक सुंदर
नांव तुजें लंबोदर
काळजांत भाव दाटून येता
पळोवन तुका खीणभर

फुलून येतात काळजां रे
चवथीच्या सादान
तान भूक न्हिवता रे
आरत्यांच्या नादान

दशीण सोबीत तांबडी
सोबता तुज्या माथ्यार
गळ्यांत रे उठून दिसता
हरयाळेचो हार

मोदकांनी भरला आयज
प्रसादाचें ताट
पंचपक्कान्नांचो बेत
गोडशांचो थाट

मकर तुजें नटवपाक
दिव्यांची रे रास
दर एका काळजाक
तुज्याच दर्शनाची आस

दर वर्सा तूं असोच
कल्याण आमचें कर
हुंदरार बसून दुःख कश्ट
पैस आमचेः व्हर

देवा तूज्या  सासायेचो
वाडत रावूं दरया
वर्सांन वर्स म्हणपाक दी रे
गणपती बाप्पा मोरया

## चवथीची सबब

जल्मला ज्या मातयेन
घे ताजी जतनाय
नाल्यार जातल्यो यातना
सगल्यांक मरणप्राय

झाडां पेडां मोडून
घरां उबीं जायना
आज कर फाल्यां भोग
उश्णी तीं वायणां

परबेच्या नावार तू
सैमालागीं खेळूं नाका
धरतरेचेर घाय घालून
हाय ताजी घेवूं नाका

फोगाची अती केल्यार
सैमार पडटात चरे
सरभोंवतण इबाडटा
दूषित जाता वारें

परबे नावार नाका
धनाचें प्रदर्शन
दुडू नाकात देवाक
जाय प्रसन्न मन

मातयेतल्यान उदेवन
मातीच जावप
बाप्पा कडल्यान आमी
शिकवण हीच घेवप

किदें घेवन आयला तूं
किदें घेवन वतलो
मातयेन मेळून फाल्या
मातीच तूं जातलो

बेगीन तूमी शाणी जायात
धर्तेक फावो तो मान दीयात
चवतीची ही परब
घेवन आयल्या हीच सबब
चवतीची ही परब
घेवन आयल्या हीच सबब

# होळी सैमाची

शालू भांगारा कोराचो
वत न्हेसून आयला
सांज वेळार सूर्य देवान
मळब रंगयलां

साथ केसरी जांभळ्याची
कितली सोबून दिसता
देग ताका पान्याची
आनीक उठून दिसता

फुलाचेर रंग शिंवरून
पोरसूं चंवरलां
झाडांनी होळी खेळून
आंगणूय फुल्लां

गुलाबी तुजी नदर पडून
तांबशे जाल्या गाल
भोंवतणचो सैम पळय
उधळटा गुलाल

फाल्गून फुलून आयला
घेवन वसंताचो साद
सैमराजान होळये दिसा
वांटला रंगांचो प्रसाद

सैमांत जेन्ना रंगांची
इतली सोबीतकाय
आलायत्या ह्या रंगांची
होळी कित्याक जाय

# श्रावणाचो वास

पातोळेच्या पानाक
येता श्रावणाचो वास
ती आयताराची पत्री
ते शुक्राराचे चणे
अमुरपिक्या यादीन म्हज्या
तो मुटक्याचो घांस

पातोळेच्या पानाक
येता श्रावणाचो वास
ते गंधाचे तिबे
तीं कुकमाचीं बोटां
तो आवयचो उलो
ती मोगाची भास

पातोळेच्या पानाक
येता श्रावणचो वास
ती नागाची पळी
ती ल्हायांची हळी
दुदाचें पंचपात्र
पंचमीचो उपास

पातोळेच्या पानाक
येता श्रावणचो वास
तो भावाचो हात
ती राखयांची रास
काळजांत उमाळो
पुनवेची आरास

पातोळेच्या पानाक
येता श्रावणाचो वास
ती सुताची पुनव
तो अश्टमीचो कालो
गोप गोपी धंयाहांडी
ती अनवाळी कास

पातोळेच्या पानाक
येता श्रावणाचो वास
तो मुमुरखो हांसो
बापायचे वेंगेचो भास
जायाजुयांच्या परमळान
फुलता श्रावणी उमास

पातोळेच्या पानाक
येता श्रावणाचो वास
उमाशेच्या सादान
काळजांत चडटा चेव
श्रावण सरलो आतां
लागल्या चवथीची रे आस
लागल्या चवथीची रे आस

पातोळेच्या पानाक
येता श्रावणाचो वास
येता श्रावणाचो वास

## खरें रक्षाबंधन

भयण ही भावाच्या मनगटाची आस
वर्सभर काळजांत बाळगिता खास
भावाक लागता थाव
भयणीच्या मनाचो
त्या दिसाक म्हणटात
सुवाळो रक्षाबंधनाचो

आपल्या रक्षणाक भयण समर्थ
तरी तिका भावाची भोव अर्थ
अपुरबायेन बेत आंखता
खाशेल्या जेवणाचो
त्या दिसाक म्हणटात
सुवाळो रक्षाबंधनाचो

भावाचो खंबीर हात मायेचो
भयणीच्या माथ्यार अपुरबायेचो
काळजांतल्या वज्यांक मेळटा
आदार भावाच्या खांदाचो
त्या दिसाक म्हणटात
सुवाळो रक्षाबंधनाचो

रस्त्यावयली दर एक अस्तुरी
दिसता आपलेच भयणीवरी
काळजांत उपाट मोग
दोळ्यांत उजो तिज्या मानाचो
त्या दिसाक म्हणटात
सुवाळो रक्षाबंधनाचो

# चार दिसांची जीण

कलकल हो खिणा खिणा
प्राणाक भेरायता
हांशांतलें बळगें आमी
फुकट वगडायता

धांवता माये फाटल्यान
मिर्गतान चाळयता
फटकिरेंच तें आच्छादन
जाणून लेगीत फटवता

काणयो केन्ना वाचतलो?
भोंवडी केन्ना करतलो?
लिपिल्ल्या तुज्या गुणांक
केन्ना तूं उबारतलो?

केन्ना रे केन्ना
मान तूं दितलो
पिडेस्त किळच्यांक तुज्या
केन्ना कान दितलो?

केन्ना रे तूं गायतलो
दुखार करून मात
पळयतलो इंद्रधोणू
आनी रंग ताजे सात

हुंगतलो तूं केन्ना
मोगऱ्यांचो परमळ
न्हावन घेतलो केन्ना
दंवान ह्या निर्मळ

कोगळेच्या गितान तूं
केन्ना भिजतलो
चिप्प भिजून पावसान
तूं केन्ना नाचतलो

नवी नवी इश्टागत फुलय
अनवळख्या कडेन दोन उतरां उलय
जोखीम दोन बोटांर झुलय
सहज झेलून घे अरिश्टांचो प्रलय

सदांच उठून जर तुजी
पोरणीच वाट पोरणेच पाश
रोखडोच लागीं पावतलो
तुज्या चैतन्याचो नाश

हांसून घे तूं आयजूच
पुंजाय खोशयेचे खीण
दर खिणाची रूच घे
आसा चार दिसा जीण

दर खिणान जीव भर
इश्टा जागय नवी जीण
कोण जाणा केन्ना येत
आमचो निमणो खीण
कोण जाणा केन्ना येत
आमचो निमणो खीण

# हाकाच म्हणटात जिवीत

गरजवंत आसतना
सोडून सगळीं गेलीं
दुकां जेन्ना पुसलीं
तेन्ना विचारपूस केली

आत्मविस्वास वाडलो
तेन्ना रंगमंचूच हुकलो
हरता हरता डाव
अचकीत हांवें जिखलो

उजवाडाची वाट पळयत
जेन्ना दोळो लागलो
अचकीत तेन्ना कसो
मळबान सुर्या उदेला

हाकाच म्हणटात जिवीत
पळय हज़ार तूं सपनां
जिवितांत कितें येवजिलां
तुका केन्नाच कळचेंना

येसवंत जा तूं
जगार उडय तुजी छाप
जगूंक तुका शिकयतलो
अपेसाचोच स्राप

सदांच खुशाल राव
आस केन्नाच सोडूं नाका
देव म्हणटा मोडण हें
हाका अंत समजू नाका

# जगप हाकाच म्हणटात?

संवसाराचे धांवपळीन ह्या
कितलो जिवाक ताणटलो?
हाकाच जगप म्हणटा?
जाल्यार मरप कित्याक म्हणटलो?

पयल्या पावसान भिजप सोडून
हुस्को बस चुकपाचो
टीवीवयली सगळी खबर
ना खेद माये दुखपाचो

पॅत्रोल जिरोवंक गाडयेंतलें
रावंडाची जाल्या आवड
पासय मारूंक वेळेर
मेळना तुका सवड

चॅनल आसा सतराशें
पूण चित्त तुजें लागना
दुडवा दर्यार उफेता
पूण तान तुजी भागना

इंटरनॅटार मेळटा तुका
सगळ्या जगा खबर
शेजरा रावता कोण
मारता केन्ना नदर?

लॅण्डलायन आसा घरा
मोबायल भरमसाठ
इश्टा कडेन पावताली जी
शेणली रे ती वाट

सुर्यास्ताच्या खिणाचें तें
सूख कशें जाणटलो?
हाकाच जगप म्हणटा
जाल्यार मरप कित्याक म्हणटलो?
हाकाच जगप म्हणटा
जाल्यार मरप कित्याक म्हणटलो?

# गोंयचो मोग

गोंय म्हजो मोग
सपनांत रंगयिल्लो
धर्तरेचो एक कुडको
काळजान वेंगायिल्लो

अशीर रस्त्यांनी
घरा नळ्यांनी
घट्ट दसल्या पळय कशे
वारांव खिळ्यांनी

खाऱ्या दमट वाऱ्यान
कडक वता दर्पान
तूंच म्हजे भोंवतणीं
एक सुस्त न्हिदे गर्बान

तुजेच कुशींत सकाळ
तुजेच वेंगेंत रात
माथ्यर म्हज्या मायेन
फिरूं तुजो हात

तुजेच मांडयेर माथें
केंसान तुजींच बोटां
सांसपितना तुवें म्हाका
मरण लेगीत आयल्यार जाता
गोंया म्हज्या मोगा
सांसपितना तुवें म्हाका
मरण लेगीत आयल्यार जाता

## मिरामारची रेंव

भुरगेपणांत मस्ती केली
नाचली आनी खेळ्ळी
आतां बरीच शांत जाल्या
मिरामारची रेंव

वाऱ्या वांगडा व्हांवता
मना वांगडा धांवता
खंय खंय पावता
मिरामारची रेंव

ती वेळे वयली पासय
ते चणे तीं भिकणां
रेंवेन रोयिल्ल्यो यादी हजार
उस्पून भायर काडटा मिरामारची रेंव

माणकुल्या पावलां वांगडा
ओल्यांनी खेळटा
पावलां मूळच्यान निसटून वता
मिरमारची रेंव

राजवाडे बांदले सतराशें
बांदले कितले किल्ले आनी घोली
ल्हारा वांगडा व्हांवन वता
मिरामारची रेंव

ल्हान व्हड जाणटीं नेणटीं
कितलींशींच पावलां माड्डिता
अपुरबायेन सोंसून घेता
मिरमारची रेंव

वेळेवयली रेंव
वेळा भशेन आसता
मुठींतल्यान निसरून वता
मिरमारची रेंव
मुठींतल्यान निसरून वता
मिरमारची रेंव

## पदर आवयभुंयेचो

गांव तुजो सोबीत सोडून
सरला वचूंक परक्या गांवा
घर सुपुल्लें वाऱ्यार उडोवन
दुडवाक भुल्लो मरे भावा

गांवचे न्हंयचें उदक
नितळ आनी निर्मळ जरी
परकी उदका ओड तुका
ल्हारांनी कुरवो करी

ह्या गांवचे आंबे पणस
लागनात तुका गोड
परक्यांचो खाजूर रुचीक
पयस वच्ची ओड

गांवचें वारें गांवचे माड
कोंताक तुका पडना
कॉंक्रिटाचें रान मात
तुका मातूय नडना

आवयबापूय जगतात रे
निर्शेल्ली एकसुरी जीण
तांचे खातीर तुजे लागीं
दिवपाक ना एकूय खीण

नशीब घडोवंक सूख सोदूंक
परगांवाच तूं रमलो
पाळांमुळां घाय पळोवन
देव लेगीत वरमलो

सुखा फुडें आपल्या तुका
दिसलें ना तांचें दुख्ख
पय पय जोडली तांणी
विसरून आपली तान भूक

जल्म दिलो नांव दिलें
व्हंटयेन तुज्या जग ओपलें
पडमूर पुता लज सोडून
फाटीक रे खिळे तोपले

परकी देस परकी लोक
माया लायतात व्हर रे पुता?
म्हणूनच असा संवसारांत
शितां आसल्यार भुतां

पडमूर परदेस काम सादून
भायर जेन्ना काडटलो
पदर म्हजोच पुता म्हज्या
मायेन लागीं ओडटलो
पदर म्हजोच पुता म्हज्या
मायेन लागीं ओडटलो

# आतां पुरो

दर्यादिगे वेले सोबीत माड
वचूंक लागले काळा पड्ड्या आड
माडाक तणा कोंतान काडटा
तेन्ना म्हजें गोंय रडटा

पर्यटना नांवार नस्त्यो जायराती
दर्याविळ, सोरो आनी नाचऱ्यो युवती
भोंवडेकार जुगाराक बोटीर चडटा
तेन्ना म्हजें गोंय रडटा

कितें पात्रांव कसो आसा?
भास ही आतां आयकूंक येना
कैसे हो साब? कानार पडटा
तेन्ना म्हजें गोंय रडटा

गांवची आमच्या सोबीतकाय
जगाक ताजी खूब अपुरबाय
सर्रास शारीकरण घडटा
तेन्ना म्हजें गोंय रडटा

दोंगर दोंगुल्ल्यो, पाचवेचार घाट
सैमाची गोंयचेर सोबीत गांठ
दोंगर पोखरून गांठ तुटून पडटा
तेन्ना म्हजें गोंय रडटा

शेतां मारून वणटी उबारल्यो
आवयक विकून पोटल्यो भरून व्हेल्यो
चिरहरणान ह्या काळीज धडधडटा
तेन्ना म्हजें गोंय रडटा

गोंयचें सपन, फुडाराची चावी
तरनाटे आयचे, पिळगी नवी
नशेच्या धुंवरान वेळेर धडपडटा
तेन्ना म्हजें गोंय रडटा

कितलो तेंप आनी गोंयकारा
गोंयाक तूं रडयततलो?
अस्मितााय गोंयचे भुंयेची
अशीच माड्डून उडयतलो?

चार पयशांक लागून
आवयक तूं विकूं नाका
शेतांक, दोंगरांक उजो लावन
हात तुजे शेकूं नाका

चान्याचे राती मांडो
विसरलो तूं सामको पिसो
वाट सायबा दाखयतलो कोण
दामुल्या लग्नाक वतलो कसो?

डी जे, रॉक, मेटल आयकून
मांडो फुगड्यो विसरूं नाका
फुडारिल्लो म्हणून घेवपाक
इतलो सकयल निसरूं नाका

मौजमजा सगळ्यांक जाय
पूण राखून आमची अस्मिताय
गोंयकारपण आमी जपूंक जाय
संस्कृतायेची घेवन जतनाय

दोंगर, शेतां, माड मारले
गोंयच्या सैमाचो केलो चुरो
पश्मिमी अनुकरण, नशा आनी सोरो
खूब जाली निर्भत्सना...
... आतां पुरो
म्हण रे गोंयकरा, आतां पुरो

# अस्तुरे, नमन तुका

मोग जिचो जिविताचेर
जगप स्वैर दर खिणा
बळगें आपलें वळखता
न्हय गे तूं नाजुका
अस्तुरे नमन तुका

तोंडार हांसो
काळजांत वीज
कश्टाचें करता चीज
संकटांक मात दिवन
वेंगेंत घेता सुखा
अस्तुरे नमन तुका

तुजी चेतना तुजी प्रेरणा
काळजांत दया आनी करुणा
पांयां बेडयेची करी पांयजणां
आनी दुखांचीं पिड्डुकां
अस्तुरे नमन तुका

दर एका तोंडा दर एका खिणा
दर एका कणा
दिसता तुका
सोबीतकाये थिकां
अस्तुरे नमन तुका

उर्बा तुज्या शिरंतरा
कळकळ तळमळ अंतरा
स्वाभिमान गात्र गात्रां
चैतन्य चारूय दिका
अस्तुरे नमन तुका

कश्टाची ना जाण तिका
येसाचो ना मान तिका
ओंठार हांसो दोळ्यांत दुकां
अस्तुरे नमन तुका
अस्तुरे नमन तुका

# स्वैर मना..........

स्वैर मना उड आयज
मळब मेकळें तुका
बेडयो सगळ्यो तोड आयज
फूलय तुजीं पाखां

वताचे चाळणींतल्यान सावळी देंवल्या
दोळ्यांनी ती जोख
दोळ्यांतल्यान कांय सपनां गळ्ळ्यां
ओठांनी तीं चोख

तुजेर तुजेंच जैत रे
तुका कोणाची भिरांत?
आत्म्याचो साद आयक
सर फुडें धिरान

रातीचें सोबीत सपन
दिसाचें परत गिरय
सुकाचें तूं मोरपीस
आपल्याच आंगार फिरय

तूका कोण विचारपी?
विचार तुज्याच अंतरा
व्हडलो भोंवर मार आयज
मेकळ्या दिगंतरा
.....मार मोकळ्या दिगंतरा

## मोनीं दुकां

दर एके आमोरेचेर
काळजांत मारता वेग
आतां तिका न्हिदूंक जाय
जाय घेवंक सुसेग

लागीं जेन्ना कोण नासता
शेणिल्ले मोगाक रडटा
दुकांच्या उशाक घेवन वेंगेंत
मोन्यांनीच आड्डता

दीस उजवाडना फुडें
ती जगाक बरी दिसता
सांज पडूंक लागता तशी
नरकान वचून बसता

अजून हरवीच आसा जखम
काळान पेकोवं ना तिका
तिनसांजेची दर एका
गळयता ती मोनीं दुकां
तिनसांजेची दर एका
गळयता ती मोनीं दुकां

## चली

खातां पितां न्हींदता खेळटां
गर्भांत तुज्या सुसेग म्हाका मेळटा
भायर येवन हांव खुब्ब व्हड जातलें
सांग म्हाका मम्मा, हांव केन्ना भायर येतलें?

खोशी जाता तेन्ना
खोंट मारून सांगता
आवाज तुजो म्हज्या
कानांत भरून घेतां
सोबीत ह्या आवाजान हांव गुंगून वतलें
सांग म्हाका मम्मा, हांव केन्ना भायर येतलें?

गायता तूं जेन्ना अंगाई गितां
आवाज तुजो धीर म्हाका दिता
भायर येवन तुज्या गिताक सूर हांव दितलें
सांग म्हाका मम्मा, हांव केन्ना भायर येतलें ?

हांसतूच राव गे तूं,
कितली सोबीत हांसता
रडपाची तुज्या खूब
भिरांत म्हाका दिसता
दुकां तुजीं पळोवन हांव भियेतलें
सांग म्हाका मम्मा, हांव केन्ना भायर येतलें ?

काल तूं खूब रडली,
हांव खूप भियेलें
दुख्खाच्या स्वासान तुज्या
घुस्मटत गेलें
भायर येवन हांवूच तुजीं दुकां पुसतलें
सांग म्हाका मम्मा, हांव केन्ना भायर येतलें?

शूऽऽऽ म्हज्या पिला
ओगी राव गो बाय
वंशाक खंय तांच्या
एक दिवो जाय
अपुरबायेच्या, तूं भितरूच सुगूर उरतलें
निश्ठूर राणटी जग तुका माड्डून उडयतलें

आपुरबाये पिला पूण
सोडूं नाका धीर
सगळ्या जगाक तोंड दिवंक
मम्मा आसा खंबीर
जगा वांगडा झगडपाचें बळगे देवान दिला
तुका गर्भान आनी धिराक
काळजान जल्माक घाला

नव्या ह्या धिरान जगाक तोंड दितलें
हांवूय पळयता जग म्हाका कशी मात दितलें
सदांच तुजो प्रस्न हांव केन्ना भायर येतलें?
आयज सांगता पिला
तूं येतलें म्हणजे येतलें
धीर धर पिला तूं रोखडेंच
भायर येतलें!!!

# शॉर्ट स्कर्ट

मनांत आयलां आयज म्हण
न्हेसणान केला बदल
तुजें काळीज रे बाब
कित्याक वयर सकयल?

आयज मूड ना म्हण
सलवार नाका जिन्स जाय
चिंतूंक लेगीत ना
जातले तुज्या काळजाक घाय

आयज बरें नटन दिसलां
आयल्या रूच मिरोवपाची
म्हाका ना रे हावेस
तुजी बुद्द फिरोवपाची

म्हजो शॉर्ट स्कर्ट
आसा फकत म्हजेखातीर
चिंतलां कोणें जातलो म्हण
परिणाम तुजे मतीर?

आयज धवें न्हेसन दिसलां
रंग मिरयन दिसना
तुका बरें दिसचें म्हण
पावसांत हांव भिजना

म्हजें न्हेंसप म्हजेंच आसता
तुजो वांटो ना तातूंत
म्हजी चूक दिसता जाल्यार
पळय तूंच चिंतून

भायर सरता दर दिसा
हांव म्हजे मतीनुसार
चांटेपावला बुरश्यो नदरो
करता बलात्कार

कित्याक सोंसूं नदरेचो
फांस म्हज्या गळ्यांत
हळशीक म्हज्या न्हेसणान ना
आसा तुज्या दोळ्यांत
हळशीक म्हज्या न्हेसणान ना
आसा तुज्याच दोळ्यांत

# रुद्र अवतार

शिरंतरांनी रगत सळसळटा
जशी पणटेन वात जळटा
दोळ्यांतल्यान व्हांवता दुकां
फटकिरी जीण तळमळटा

भिरांतीन घालां वेश्टण
कितलो तेंप राखलें मौन
तें गुपीत म्हाका पिसुडटा
ओंठांक घालां बंधन

पाळये पाळयेन बुरखिलें
मोन्यांनी हांवें घाय गिळ्ळे
घुरी घाली कुडीर म्हज्या
म्हजीच चूक हांवें म्हळें

काळ्यो यादी सोडिनात
आयजूय म्हाका दोश दितात
रातीचें जागून विचारता
कितलें म्हज्यान सोंसूं येता?

कोणें तरी आयकुपाच्यो
म्हज्यो विनवण्यो म्हज्यो किळच्यो
सगळें तेन्नाच सोंपपाचें
गर्वान हांव उबें रावपाचें

पूण आतां अती जालें
आतां पुरो म्हणजे पुरो
आतां तांकां दाखोवंकूच जाय
रुद्र अवतार खरो
आतां तांकां दाखोवंकूच जाय
रुद्र अवतार खरो

# लिप्स्टीक

लिप्स्टीक पावडर लायता ती
नटी कशी भोंवता ती
पर्वा ना कोणाची
तोखणाय आपल्याच तोंडाची

लोक अशेच म्हणटले
कामूच तें तांचें
देवाक लेगीत भोगशिनात
थंय म्हजें आनी खंयचें?

जिवितान म्हज्या हांवें
कितें कितें भोगलां
नशिबाचेर कितलीं म्हज्या
कोसळ्ळ्सांत जोगलां

बायल मनीस एकटी
म्हण टेळून लांडगे रावतात
चाबून गिळपाक दांत पासून
खंयच्यानूय पावतात

भियेवन पयलीं बिळांत हांव
लिपून रावलें कितलें
भियेणाऱ्यांक भेश्टावपी
आसतात जाय तितले

काळजावेले चरे
तोंडार उदेल्या
हांसो लेगीत येना
भावना मेल्या

पूण फुडें सरूंक जाय
संवसार करूंक जाय
तोंडार लावन तोंड नवें
जिवीत घडोवंक जाय

सगळें सोंसून पदर खोवन
भायर हांव सरलें
संवसारान पावल दितांच
काळजान बळगें भरलें

लिप्स्टीक पावडर लायताच
म्हजें पोरणें रूप गळटा
संवसाराक दिवपाक
म्हाका नवें तोंड मेळटा
संवसाराक दिवपाक
म्हाका नवें तोंड मेळटा

# अंतरमन

हारशान हांवें पळयलें
आनी अजाप म्हाका जालें
दोळे मोडून पळोवंक लागलें
एक रूपडें माणकुलें

दिसूंक जरी म्हजेचवरी
ही बा कसली मस्करी
शेणक्यो हालोवन माथ्या वयल्यो
चाळोवंक लागलें फिरीफिरी

चिमटो हांवें म्हाकाच काडलो
सपन बीपन न्हय मूं हें?
कुवाडें हें सुटना कशें
हारशाक सेर्त लागला पिशें

घांसलो पुसलो निवळ केलो
मुखार तरीकय तेंच ध्यान
रागान हांवें पळयल्यार लेगीत
वांकडी करून हांसता मान

चिंतून चिंतून तकली बेजार
नाटकाक ह्या कितें सुमार?
दोनूय हात जोडले हांवें
उपद्रवी ह्या हारशा मुखार

अचकीत हांव शिटूक जालें
गुपीत म्हाका कळून चुकलें
पडबिंब न्हय हें हारशांतलें
हें सार म्हज्या काळजांतलें

संवसाराचे धांवपळीच्या
सापळ्यांत अडकून पडिल्लें
भुरग्यांवरी अल्लड सपन
काळजान खोल दडिल्लें

वयान जरी वाडलां हांव
मनान अजून ल्हानूच आसां
संवसारान घुस्पून गेलां
अंतरमनान अजाणूच आसां

## सपनां

सपनां आमचीं सोपचींनात
नासतात तीं थोडीं
वेळ तूं वगडावं नाका
काडू नाका खोडी

सुसेगाद बसूं नाका
हाताची घडी घालून
दारार तुज्या मारता पळय
आयल्या संदी चलून

उठ, उठून भायर सर
ध्येय गाठ तुजें
भियेवं नाका जीण जरी
आसलें जड वजें

अगणीक तुजीं सपनां
आयज आर्दकुटीं जरी
तुज्यांत आसा ताक
तूं करतलोच तीं खरीं
तुज्यांत आसा तांक
तूं करतलोच तीं खरीं

## सपनां.......ताचीं आनी म्हजीं

कोणा सपनांत येता परी
पाखां तिचीं विलोदावरी
आमच्या सपनांत चुकता गाडी
केन्ना तुट्टा लेंग्याची नाडी

सपनांत खंय कोणाच्या
अप्सरा सोबीत
इंद्रधोणवार बसता रंगीत
नाचगाणे साग्र संगीत

आमच्या सपनांची
नाकाच ती खबर
यादीनच काळीज
धडधडटा दिसभर

शाळा सोंपून वर्सां जालीं
आयजूय तीच दशा
सपनांत येवन आयज लेगीत
भेश्टायता परिक्षा

शिकून वता इतिहासांतली
गनिमी रणनिती
पेपरांत पळयत जाल्यार
गणीत आनी भुमिती

सुटून सुटना एकूय गणित
येवन तेंकता शेवटचें मिनीट
जाप जेन्ना सुचूंक लागता
ज्युस्त पिडा घंटा वाजता

कोणा सपनांत देव देंवता
वर तांकां दिवन वता
कोणा सपनांत बाबा येता
येसा चावी तो दिता

आमच्या सपनांत
दाराक कुलूप
भायर पडला
काळोख गुडूप

देवचाराच्या हातांतल्यान
गोमटी आमची सुटना
किळच्यो मारल्यार लेगीत
आवाज भायर फुटना

नशिबान आमच्या सपनां अशीं
बुध्दीबळापटावेले उंटूच जशीं
सदांच आमचे अशेच हाल
उंटावरी तिरपी नशीबा चाल

अप्सराचीं सोबीत सपनां
कोणाक पडटा कोण जाणा
आमच्या मात सपनांत
देंवचार कांडटा धुमशेणां

सपनांत खंय लोकांच्या
शेनायेचे गोड सूर
आमी गावंक गेल्यार
न्हिदूच जाता बेसूर

असलीं सोबीत सपनां
आमकां काय पडनात
न्हीद पडचेपरस
दिसता बरीं जागरणां
खरेंच न्हीद पडचेपरस
आमकां दिसता बरीं जागरणां

# आस किल्लल्या

आयजकाल ह्या जगांत
सूख थोडें दुख्ख चड
दुख्खाच्या ह्या वज्यान
जीण जाता जड

जिणेक ल्हव करपाक
येवजिल्या एक युक्ती
जडसाणींतल्यान दुख्खाचे
जिणेक दिवपाक मुक्ती

दुख्खा पड्ड्यांतल्यान केन्ना
सूख लिपून पळयता
हळूच चिमटेन ओडून ताका
काळजा कुंडेन रोयतां

सुखा खिणां कितलीं बियां
किरवंटेक हांवें खोयल्यां
चोरून चोरून काळजांत हांवें
खीण ते व्हरून रोयल्या

पयता पयता बियांची
किल्लून आयल्या रास
दर एक फांदयेर ताज्या
चंवरून आयल्या आस

आतां म्हाका दुख्खाचो
दिसना मातूय भंय
आस फुल्ल्या ऐसपैस
तोडून सगळी वंय

# मशाल

विचारांच्या किर्टींनी
सदांच काळीज भरता
उतरांचो शिंवर मागीर
कागदार हांव करतां

कागदाक उजो लागना फुडें
काळीज जाता थंड
नाजाल्यार पेटून उठ्ठा
करूंक लागता बंड

थंडसाण पडटाच काळजांत
जीव धादोस जाता
अचकीत पूण परतून
नवी कीट तयार जाता

विचारांच्या किटींक ह्या
मातूय ना थार
उजो जावन येवंक सोदता
सगळ्या लोकां मुखार

धग ताजी काळजाक
म्हज्या अशी तापयता
आपसुकूच मागीर उतरां
ताका वाट दाखयता

किटीची उठ्ठा ठिणगी
ठिणगी चूड जाता
परजळून वता काळजां
जेन्ना मशाल जल्माक येता

## दूक

दुकांनी जें दिलें
गीत ताजें केलें
तरी पूण जगाक तें
मान्य खंय जालें?

तारेंतले सूर
सगळ्यांनी आयकले
गितांतलें दुख्ख
कोणाक कळटलें?

हांव फूल जावन
लोकांक वास दितां
कांटे म्हाका तोंपता
ते कोणाक दिसतले?

दुकांनी खूब दिलां
म्हणून गीत केलां
जग नाका आयकूं
हांव गायत रावतलें
जग नाका आयकूं
हांव गायत रावतलें

## बाबू जालो

देवान दिला बाबू
दिल्या खोस हिसपाभायर
नवलूच घालां गोपांत
दिलां जिवितभरा भांडार

कुकुलेच हात पांय
चकचकीत दोळे
माणकुल्याच तोंडाचें
रूप कितलें भोळें

झबलें कितलें सोबीत
मळबा कोराचें
धवेफुल्ल पोळेराचेर
चित्र मोराचें

बाबू आमचो खोशये थेवो
देवा व्हड उपकार
आमचे खातीर धाडिल्लो
गोड चमत्कार

# परदेस

घर म्हजें आपयता
म्हाका वचूंक जाय
वारें जें व्हांवता हांगा
थंयूय पावता काय?

कितलो तेंप परदेसांत ह्या
कैद जावन रावलां
याद काडून देसाची
हांव काळजांतल्यान बावलां

रस्तोभर मनशां हांगा
आपलो म्हणून कोण ना
आशेल्या आवयबापायक
दाखोवंक म्हाका तोंड ना

हुस्कारून सोडटां वाऱ्यार
काळजांतले घाय
वाऱ्या वांगडा आवयसरीं
तेवूय पावत काय?

दिवाळे दिसा दिवे हांगा
पेटना म्हज्या घरांत
रितें काळीज पणटी जावन
पेट्टा म्हज्या दारांत

माटवांतल्या भयणीचें
दोळ्यार येता तोंड
घुस्पून उरलों हांगा
समजतलो कोण

काळजांतले घाय म्हजे
आवयबापायक दाखोवंक जाय
बेडयो पडल्या पांयांत म्हज्या
हालोवंक कश्शे मेळना पांय

दर खेपे चिटयेंतल्यान
दुकां तांचीं दिसतात
उतरां वाचून कान बसता
काळीज किसकिसता

सात दर्या पलतडीं
गेलो रे तूं सोडून
वतना रे घेवन गेलो
जिवूच आमचो काडून

आयलो खरो हांव हांगा
जिवीत घडोवंक म्हजें
परदेस हो जावन पडला
हड्ड्यावेलें वजें
परदेस हो जावन पडला
हड्ड्यावेलें वजें

# अशेंच चलता चलता...

अशेंच चलता चलता वाटेर
मारलो उलो जिवितान
एकटेंच वाट चलूं नाका
घे कोणाकूय सांगाताक

पावल फुडें घालतां थंय
धिटाय उबी हात फांकोवन
खांदार मारली उखलून
चलूंक लागलें झेतान

मात्शें मुखार सरता मात
धीर रुखामुळाक उबो
हांवूंय येता वांगडा तुज्या
म्हणलें ताणें नेटान

मुखावेल्या खांचीक आस लिपून बशिल्ली
हळूच ओडून काडली भायर
किरवंटेक लायली तिका
भोंवडावपाच्या निमतान

मौज, मजा, मिश्कीलपण,
हांसो, उमेद आनी खोस
पुंजायत पुंजायत मुखार गेलें
उर्बेभरीत काळजान

मजा म्हणून एक दीस हांवें
सगळ्यांक एकठांय भरशिलें
चाळ्ळें बरें आरतून परतून
एकजीव जालीं सगळींजाण

अजाप कितें सांगूं तुमकां
अशें हांवें करनाफुडें
चंवरून आयलो आशावाद
भरलो म्हज्या कणाकणान
भरलो म्हज्या कणाकणान

# दायज

सुकण्या पिला उठ गो
उदेला नवो दीस
पाखांनी तुज्या वारें भर
फुलय एक एक पीस

सुकण्या पिला भिवूं नाका
भोंवर मार मेकळे हवेंत
हांवूंय म्हणून कितलो तेंप
तुका लिपोवं म्हजे कवेंत

सुकण्या पिला राखूं कितलें
घायांक तुज्या लावन लेप
तुजी तुकाच शिकयतली
धाडसाची ही पयली खेप

सुकण्या पिला कसली भिरांत
कसब दाखय आयज गो
देवान तुज्या पाखांक दिला
उड्डाणाचें दायज गो
दिला उड्डाणाचें दायज गो

## राग

राग तुका आयलो जाल्यार
एक नेम कर
घे एक सुस्कार लांब
शांत जायसर

थारो घाल गोठेवन वच
आळो घाल मनार
कपला आटयांक फेर्र मार्र
हांसो फुलय तोंडार

झगडीं जावची आडावपाक
सोदून काड उपाय
खोशी तुकाच जातली
मेळटली थाकाय

थारो धर शांत जा
विचार मातसो कर
रागा सुवात मेकळी कर
मोगाक वाट कर
रागा सुवात मेकळी कर
मोगाक घे भितर

# काळोख

उजवाड खेळटा आपालिपा
दोळे लकणेक येता
काळोख मागीर सवकासायेन
वेंगेंत म्हाका घेता

दीस ल्हवूच बुडटा
आनी रात हळूच उदेता
खोलायेसून वयर सरून
काळें काजळ उफेता

सुद्द म्हजी भेरेता
धीर म्हजो शेळेता
भितर कर्कश हुयेल
भायर भयाण मोनेळ

खिणांत यादी झळकता
भिरांत गराडो घालता
काळखा राकेस चोयवाटेन
लडटां हांव फांतोडमेरेन

काळखावांगडा ल्हवू ल्हवू
भिरांत वाडत वता
मिणमिणटो दिवो पळोवन
म्हाका उमगता

भेश्टायता जो काळोख
न्हय तो राती मायेचो
एकसुरेपणाचो तो म्हज्या
काळजा खोलायेचो
तो काळोख
काळजा खोलायेचो

# एकलोच

फांतोडेच्या नितळ खिणान
फकत म्हजे विचार आनी हांव
कडकडीत च्याचो कप हातान
कितलो सुसेग एकटो रावपांत

एक शिकवण आसता त्या खिणांत
तूं तूंच जाता आनीक कोण नात
बुद्द वाडटा त्या मेकळेपणांत
कितलो सुसेग एकटो रावपांत

एकटो रावप न्हंय एकसूरेपण
तुज्यांतलो तूं वळखुपाचो क्षण
पळयता स्वताकडे इमानान पळयत
कितलो सुसेग एकटो रावपान

# एकसुरो जीव

एका अलिप्त जिवाक
नाका कोण राखणदार
ह्या सत्याची जाय गवाय?
सैमाचेर एक नदर मार

फूल दिसता तितलेंच सोबीत
फांदयेर एकटें आसून लेगीत
पोरसूं सुवास दिता खरो
पूण परमळ दिवपाक एकूच पुरो

सुरवंटांक नासता वांगडी
तीं घरट्यांत जेन्ना वतात
कोणाकूच पत्तो लागना
आनी कितलींशींच फूलपाखां जल्मतात

मेकळेपणान वाड सुदारता
श्रेश्ठत्व तांचें उजवाडटा
स्वताची राखून अस्मिताय
चंवरून येता सोबीतकाय
स्वताची राखून अस्मिताय
चंवरून येता सोबीतकाय

## नदर

सांग म्हाका केन्ना तुवें
रातीचें मळब पळयलां?
नकेत्रांचो शालू पळोवन
काळीज केन्ना जळयलां?

पावसाचो साद येतांच
पिशें जाता वारें
सांग म्हाका झुळकेन त्या
दूक केन्ना गळयलां?

घारीचे नदरेन केन्ना
जग तुवें देखलां?
जनेलांतल्यान गाडयेच्या
फिरतें जग जोखलां?

फांतोडेर केन्ना पळयला
सुर्या कसो उ़देला?
गवतार उदारो न्हिदून
केन्ना मळब रंगयलां?

तरीकय तूं जिविताक ह्या
कुरूप विद्रूप मानता?
हातूंत तुजी चूक ना
हांव समज असो बांदता

कळ्ळें म्हाका एक गुपीत
चुकता तुका एकूच खीण
नदरेक म्हज्या सूख जो दिता
काळजांत जागयता नवी जीण

तें म्हणल्यार नदरेंतल्यान म्हज्या
तुजी चर्या, तुजें मूख
तुका केन्नाच दिसचें ना तें
फकत म्हज्या वांट्याक ताचें सूख
आयलां म्हज्याच वांट्याक ताचें सूख

# आमोरेचें सपन

आमोरेचें सपन खंय
चड करून खरें जाता
दोळ्यांत भरल्या दुकां म्हज्या
सपन तातूंत पावना

शेतांत राबता दीसरात
रगताचें करता उदक
तोंड फांकोवन गरजो उब्यो
सपनांक हांगा जागो ना

पडिंग जाल्या भूंय म्हजी
रीण नाचता सोडून ताल
हांडीर म्हज्या रडटा पोरां
पानार गोटो पडना

साकर पिकता शेतांत म्हज्या
जिणेक गोडसाण उरूंक ना
कडूझार जिवीत जालां
जगूं कशें कळना

न्हीद केन्नाय पडलीच जाल्यार
भेश्टायता सपन फांसाचें
आमोरेचें सपन हें म्हजें
देवा खरें जावंक फावना
देवा खरें जावंक फावना

## थेंबो

पावसाचो पयलो थेंब
कुपांतल्यान पडलो
आस घेवन, घेवन उमेद
फुडल्या खिणान बुडलो

तापते रेंवेर जळटलो
काय न्हंयेचो सांगात मेळटलो
कोळशार पडून वाफेतलो
काय पाख्याची तान भागयतलो

मोग्याच्या दुकांत विरगळटलो
काय आंकरी नवी फुलयतलो
फोंडकुलांत वचून पडटलो
काय गंगाजळी भरतलो

मशिदीचे तेंगशेर बसतलो
काय देवळाच्या आंगणांत नाचतलो
रातीचे वेंगेंत शेणटलो
काय उदेत्या सुर्याक हांसतलो

दर्या मदीं शिपी एक
बशिल्ली तोंड उगडून
तातूंत वचून पडलो तो
गेलो मोती घडून
तातूंत वचून पडलो तो
गेलो मोती घडून

# शुगर फ्री

फटकिऱ्या ह्या संवसाराची
गोडसाण चड जाल्या
फटकिरी ही गोडसाण
जिरूंक जड जाल्या

अतिरेकान गोडसाणीच्या
काळीज हालीं धडधडटा
हात म्हजे थरथरतात
पांयां त्राण गळसणटात

हालीं तेंपार अतीच जालां
जाला बंद आलिमेंत
दोतोर म्हणटा गोडसाणीन
जाल्या तुका दियाबेत

हिरो कसो दिसता खंय
सुटला जरी पोट
फटकिरे हे गोडसाणीचे
रागान गिळटा घोंट

टक्कल पडलां म्हाका
ताणान गेला झरून
तरी तरणो दिसता खंय
दिलें फाल मारून

दुडवांकार हांव म्हणून
फाटीं म्हज्या धांवतात
गरजेन फाल्यां पडलो जाल्यार
पळोवया कोण पावता

कामां सादूंक म्हजे कडल्यान
पानां लायतात तीन
आलायते हे गोडसाणीन
जड जाल्या जीण

दोतोराक म्हणलें दुयेंसाक ह्या
आसा कितें उपाय?
दुडवांची म्हज्या लोकांक
जाता भोव नसाय

दोतोर म्हणटा दुडवा आस
हेंच एक दुयेंस
लोकां कडेन कितलें तूं
काडटा पासियेंस

हांवें म्हणलें हाका लागून
वाडल्या साकर कितली
उपाय सूचय कितेंय
सुदार भलायकी

आलायती ही गोडसाण
आसा पाड दळिद्री
तूं काय घेवंनाका
तांकां दी शुगर फ्री

शुगर फ्री घेताच
तांची गोडसाण देंवतली
आपले आपूण दियाबेत
तुजी पयस धांवतली
आपले आपूण दियाबेत
तुजी पयस धांवतली

# ओगीच रडूं नाकात....

सांगात म्हाका मात्शें
तुमचेंय जाता अशें?
पावला पावलाक कटकटी
वचत थंय जाता हांशें

नव्या चकचकीत खोमसार
पडटा शायेचो दाग
जायतें केन्नाच मेळना
कितलेंय तूं माग

कपडे उमळूंक काडटा म्हणसर
टांकी रिती मेळटा
धुल्ले कपडे सुकोवंक गेल्यार
पावसाक ज्युस्त कळटा

आयदनांची रास जाल्यार
वावराडेचे कान कोण फुंकता?
त्याच दिसा ज्युस्त तिच्या
पोटांत बरेंच दुखता

बेगिबेगीन तयार जावन
कामार पावपाची ताकतीक
पळयल्यार पात्रांव घराच बसला
गोड धोड चाखीत

केन्नाय पुणून कळाव जाता
कामाक हांव उसरां पावतां
तेन्ना मात पात्रांव म्हजो
दारार ज्युस्त उबो रावता

रस्त्यावयलीं फोंडकुलां
सगळींच म्हज्या वाट्याक
पंक्चर करपाक म्हजेंच चाक
मेळटा ज्युस्त कांट्याक

वाजेवन म्हणून टिवी लायल्यार
लायटीक पिडा मारता
देवळांत म्हणून गेलें जाल्यार
चप्पल म्हजेंच चोरता

असलीं सगळीं सवंगा
हीं म्हज्याच वाट्याक येतात
तुमकांय बी केन्ना तरी
तीं आशींच त्रास दितात?

अशें जाता म्हणतकच
मागीर भैरो फाटीक लागता
जप, माळो, मुदयो, दोरे
एक एक चडूंक लागतात

पूण खरें सांगतां तुमकां
हें सगळें आसता व्यर्थ
घडचें आसता तेंच घडटा
बाकी किद्याक ना अर्थ

मना सारकें घडना म्हणून
ताका पनवत म्हणू नाकात
सोबीत आसा आयुश्य आमचें
हांसून जगात ओगीच रडूं नाकात
........ओगीच रडूं नाकात

## ती वता......

आंतऱ्यापयऱ्यान येवन वच
खबर तिची घेवन वच
दोळ्यांत तिच्या मोतयां पडल्यात
दिमयो तिच्यो आतां मोडल्यात

फाटीक तिज्या पडलां पोंग
कपल आदळून आयलां धोंग
नदर तरीकूय दारार खिळ्ळ्या
दुकां मुकाट्यानी गिळ्ळ्या

पदर तिचो धरून तूं
शाळेंत सदा वतालो
हात तिचो सुटत म्हण
काळज्यांतल्यान भियेतालो

तो पदर आतां झिरझिरला
तरी गोजडी ताची मांडल्या
तुज्या यादींचें पोंत मारूंक
दोळे तिणें ताणल्या

यादींची गोजडी ती
उशाक घेवन न्हिदता
हड्ड्याक दसोवन गोजडी
तुजेंच बरें चिंत्ता

खोकलेन तिज्या
खिळखिळ्ळ्या घराचे नळे
पुलमांव तिचे पोखरून
जालां आतां जाळें

थरथरत्या ओठांर तिच्या
तुजोच रे साद
जिबेर तिच्या तुज्याच
गोड यादींचो सुवाद

पदर तो मायेचो
कसो रे तूं विसरलो?
हात तिचो हातांतल्यान
कसो रे निसरलो?

बंदखण जाल्या कूड तिची
तिका सुटका जाय आतां
केन्ना येवंक रावला तूं
ती प्राण सोडून वता
.....ती प्राण सोडून वता

# गुरू साक्षात परब्रह्म

गुरू कुशीन उदरगत
गुरू शिकयता जगपा गत
गुरू रोयता झाड जाता
बियां ताचीं हजार जाता

काळावांगडा चलपाक
गुरू शिकयता
वाट फुडाराची
गुरूच दाखयता

शिश्याच्या येसान
गुरू धन्य जाता
आपलेपरस व्हड जा
वर तो दिता

चंद्रगुप्त घडयलो
चाणक्यान
सुराज्य हाडलें
मगध राज्यांत

कृष्णाचे गितेन
अर्जुन घडयलो
माथ्यार येसाचो
मुकूट चडयलो

गुरूच्या हातांत आसता
फुडाराची चावी
बरें शिकल्यार सज्जन
नाल्यार वालेस उपद्रवी

फुडार बरो घडोवपाक
गुरूच जाता कारण
कृष्ण अर्जुन घडयता
शकुनी घडयता दुर्योधन
कृष्ण अर्जुन घडयता
शकुनी घडयता दुर्योधन

# इश्टागत

शेणिल्ले ते दीस
परत केन्ना येतले?
आयज नवें आसा तें
फाल्यां पोरणें जातलें

नशिबानूच आमची
परत घाल्या सांगड
आतां तरी आमी
सोडचो न्हय वांगड

जग आमचें बदल्लां
घुस्पला पांयांक संवसार
घरांतल्या कामांचो
सदांच पडटा भार

वरांचीं वरां खबरी करूंक
ना आतां सवड जरी
दोनूच उतरां लेगीत
आपलेपण उक्तें करी

खिणांची ही पै पै
वांगडा आमी मोडुया
जिवितभर पावता
तशें नातें आमी जोडुया

# इश्कोलाची वाट

इश्कॉलाची वाट चल्ल्यार
जालो कितलो तेंप
नकळों कित्याक वचूंक ना थंय
परतून एकूय खेप

आज अचकीत ते वाटेर
काळीज म्हजें ओडटा
नकळटां पावलां म्हजीं
वाटेर ते पडटात

कोर्तींतली देंवती देंवलें
आनी खीण ते उबे रावले
म्हजे पयली काळीज म्हजें
इश्कॉलासरीं पावलें

मळ्यांतलो तो रस्तो
आफोंवक लागलो मारून उले
वाटेवयले फातर लेगीत
फुलोंवक लागले यादीं झेले

खूब तेंपान इश्कॉल पळोवन
जीव धादोस जालो खरो
पूण चर्या ताची बदलून गेल्या
पळोवन काळजाक पडलो चरो

नवी इमारत, वण्टी नव्यो
नवे नवे वर्ग सोबीत
नवे फळे, बांक लेगीत
जमनीर फरशी चकचकीत

पोरणी इमारत शांत उबी
खुणीनी म्हाका खुपशिताली
पोरणे खीण जागे करून
पोरण्यो यादी उस्पिताली

पोरणे बांक पोरणे फळे
दीस फाटले आळोंवक लागले
इश्टांवांगडा घालयिल्ले सगळे
खीण फाटले चाळोंवक लागले

इश्कॉलाची इमारत नवी
रंगयताली वेगळेंच चित्र
टिचर आनी सर नवे
मेळना एकूय बालमित्र

बास्केटबॉल कोर्ट रिते
खेळांमळ उजाड दिसता
अनवळखी तोंडां जळीमळी
अनवळखी वाठार म्हाका हांसता

ल्हानपणांत जांचेवांगडा
खेळांत केलीं झगडीं
परतून परतून काळीज म्हजें
सोदता तेच वांगडी

परतून केन्नाय भांगराचे ते
दीस म्हाका मेळत काय?
वर्गांतल्या त्याच बांकार बसून
इश्ट म्हजे खेळत काय?
वर्गांतल्या त्याच बांकार बसून
इश्ट म्हजे खेळत काय?

# उतराचो गुलाम

उतरांची म्यान सांबाळ
उतरांक आसता धार
तलवार कुडीर घाय घालता
उतरां काळजार करता वार

उतरां तोंडार हांसो हाडटा
उतरांनी कोणाची चिता पेट्टा
उतरां केन्ना मन वळयता
तर केन्ना कोणाचें काळीज जळयता

उतरांनी केन्ना मन परजळटा
केन्ना उतरां रंध्रांनी परमळटा
उतरांनी फुलता दोळ्यांत चंद्रज्योती
उतरांनीच दोळ्यांतल्यान गळटा मोती

रागान करता उतरांचो भडीमार
उतरांच्या तांडवान माजता हाहाकार
उतरांनीच करूं येता शांतीचो प्रचार
उतरांचेरूच चलता सगळो वेव्हार

तोंडांतल्यान सूटसर
तुजी ताजेर लगाम
एकदां उतर सुटलें
जालो उतराचो तूं गुलाम
जालो उतराचो तूं गुलाम

## भिरांत

काळो काळो काळोख
म्हाका भेश्टायना
काळखाची म्हाका
भिरांत दिसना

काळखांत कांय भयानक
चेरे लिपतात
आलायत्या उजवाडान
दोळे दिपतात

सत्याचेर काळखाचो
पड्डो सरकता
अर्देंच सत मागीर
दोळ्यां मुखार झळकता

भयानक सत जेन्ना
लिपिल्लें आसता
काळोख म्हाका कसो
भेश्टावंक शकता?

'दिसाचो लख्ख उजवाड
तो पड्डो फाटीं सारता
दोळ्यां मुखार सत्याचो
लखलख पसरता

उजवाडान वळख जाता
भयानक तोंडांची
भिरांत म्हाका दिसता
त्या उजवाडाची
भिरांत म्हाका दिसता
त्या उजवाडाची

# हाव

एके आवयचे दोन पूत
मेळून मोगान आयज रावना
एक घर, एक जमनी कुडको
कितलेंय दी तांकां पावना

मनीसपण तांचें व्हावन गेलां
मनान कसलेच भाव ना
दुडवा फाटल्यान धांवता
हाताक कांय गावना

एका हांशाक, एके वेंगेक
मोल कांयच फावना?
भावांनो आतांच जागे जायात
कळाव अजून जावंक ना

मनशापरस जमनीक मोल
मनशाक कांयच भाव ना
कोण आवय कोण बापूय
नात्याक कसलोच थाव ना

दुडू, जमीन, गाडी, घोडो
कितलेंय आसल्यार पावना
खरें मनीसपण तेन्ना येता
जेन्ना काळजांत कसलीच हाव ना
खरें मनीसपण तेन्ना येता
जेन्ना काळजांत कसलीच हाव ना

## पापा तूं उठ

उठ पापा, उठ बेगीन
अजून कित्याक न्हिदला?
शाळेंत पावय म्हाका
कळाव म्हाका जाला

कितल्या दिसांनी आयज
सुटी तुका मेळ्ळ्या
शाळा सुटून येतकूच
खूब आमी खेळया

इतलो कित्याक न्हिदला
खंय गेल्या तुजी शिस्त?
लश्करांतले तुजे नेम
जाणात म्हजे इश्ट

उठना तूं आतां जाल्यार
लज म्हाका जातली
इतलो तेंप दिल्ली तुजी
शिकवण व्यर्थ वतली

तूं आतां उठना जाल्यार
शाळेंत कोण सोडटलो?
तुटिल्लें तें खेळणें म्हजें
आतां कोण जोडटलो?

खेळत खेळत वांगडा म्हज्या
कोण राती जागतलो?
निर्भयाच्यो, शौर्याच्यो
कोण काणयो सांगतलो?

पापा उठून तयार जा
बेगीन बेगीन चल
उठोवंक तुका आयला पळय
सगळें सैन्य दल

उठलो ना तूं आतां जाल्यार
हट्टाक हांव पेट्टलें
वेंगेंत घेवन तुका
हांव तुजेच कुशींत न्हिदतलें
वेंगेंत घेवन तुका
हांव तुजेच कुशींत न्हिदतलें

# माळो

नितळ करूंक घर
हांवें लायली निसण
माळ्यार चडून वयर
नियाळ्ळी सरभोंवतण

शाळेचे स्पर्धेची धाल
वयर बशिल्ली
घंयरांवाची व्हडली झालर
ताजेर दशिल्ली

एक दप्तर पोरणें
बुराकांचें, ल्हान व्हड
इतिहास, भुगोल भरून
लागतालें तें जड

एक गडगडो कांय घुलो
एक सापशीडये पट
एक संध्येचो पडगो
एक तांब्याचें चिपट

म्हजे आवडीचो पेलो
एक चेपां पडिल्लो
तिचाकी सायकली
सिटार चडिल्लो

एक आज्याचें व्हलतेर
कापड नाशिल्लें
एक जात्रेंतलें गिरगिरें
ताचे कुशीन बशिल्लें

माणकुली चूल कुकुले तोप
कांय आंशे बुडकुल्यांनी
च्याचें गाळणें सानुलें
खेळपाक रांदचे वाडचेल्यांनी

थंयच दिसली एक बावली
मोडक्या हातांची
पिंगशा केंसांची घालून
खोमशी खतांची

कांय रिकाम्यो काशी
सूरसुर्याच्यो आनी पावसाच्यो
आनी कांय यादी बांदिल्ल्यो
चवथीच्या दिसांच्यो

आकाशदिव्या पोरणो
सांगाडो मोडिल्लो
पिंजक्या फोलीं सयत
माक्नापोंदा दडिल्लो

एक रेडियो 'फिलिप्स'
ट्रंका मुळांत पडिल्लो
विवीध भारती खळार मळार
आयकूंक हाडिल्लो

कितलींशींच पोरणीं लातां
पिंजकीं कागदां फुलां
फेस्ताचे धनुश्य बाण
आनी कितलीं पिस्तुलां

घंयरांवान धुल्लान भरिल्लो
माळ्याचो कणान कण
माळ्यार घुस्पून पडिल्लें
म्हजें आख्खें भुरगेपण

आदेसभर माळ्यार हांव
पूण नितळ कांयच केलें ना
गुठलावन दवरिल्लें भुरगेपण
म्हज्यान हालोवंक जालें ना
गुठलावन दवरिल्लें भुरगेपण
म्हज्यान हालोवंक जालें ना

# वजें

काळजार म्हज्या घेतल्या हांवें
कितलीशींच वजीं
कांय कोणाकोणाचीं
कांय वजीं म्हजीं

कांय बोचक्यांनी कांय पोटल्यांनी
कोमल्या पिडा भरल्यां दुखां
सानुल्या माणकुल्या इत्सांची
झडूंक लागल्यांत पाखां

वज्यान काळीज मोडूंक पावलां
खंयचो सोदूं आलाशिरो
खंयचें सपन खंयचो हावेस
आतां आनीक जातलो खरो

पोटल्यो चडल्या बोचकीं वाडल्या
तरी वजीं जावंक ना जड
देवालागीं एकूच मागणें
जागो वाडय, कर काळीज व्हड
देवालागीं एकूच मागणें
जागो वाडय, कर काळीज व्हड

# निर्माल्य

उतरां कागदार देंवना
उतरां ओंठार खेळना
सांग कशे मांडू
हे काळजांतले भाव

खिणाखिणाक फुलतात
हावेसाचे कळे
बावले जिणे रखरखान
उरली सपनांची माव

इत्सांचो हो रूख
जपून शिंपून वाडयलो
झडलीं ताचीं फुलां
पडलें निर्माल्य नांव
झडलीं ताचीं फुलां
पडलें निर्माल्य नांव

# तें जोडपें

पळयले तांणी वांगडा
कितले पावस आनी गीम
बाराय म्हयने झडली
मोगाची सर रिमझीम

एकमेका सांगातान
घरटें तांणी सजयलें
दोन पिलां काळजान
संस्कारा बीं रूजयलें

जाणटीं सदांच म्हणटा
ब्रह्मदेवा गांठ
म्हणुनूच मोग वाडत वता
जाता रंग दाट

रुसवे फुगवे रागरोस
आसता सदांच संवसारान
तरी समजूतकायेन तांणी
फुलयलें मोगा रान

मायेस्त अशीं दोन मनशां
वांगडा जेन्ना येतात
भोंवतणच्या लोकां होंटयो
मायेन भरून वतात
भोंवतणच्या लोकां होंटयो
मायेन भरून वतात

## नवी धांव

फांत्या पारार सपनां घेवन
हेडटा बाबडो वाड्यार
बोचकें खाकेंत मारून
पावलो चोरां मांडार
नाडगेपणां सौदे पुरो
सोदता नवे भाव
खूब जालो शारा गोंदळ
आतां सोदतां नवो गांव

भर दनपारां लुटून गेले
जाप मागल्यार हिणायलें
शारांतल्या कांय गुंडांनी
गांवठी पोरां हांशें केलें
विखाळ जाल्या भूंय ही
सोदता नवो थाव
खूब जालो शारा गोंदळ
आतां सोदता नवो गांव

दीस गेलो अस्ताक
सोंपलो म्हजो वेळ
कळसुत्रे पड्ड्यावेलो
खेळनाशिल्लो खेळ
जल्माजुगारान बुडलो
सोदतां नवो डाव
खूब जालो शार गोंदळ
आतां सोदतां नवो भाव

सांगू कोणाक दुख्ख कितलें
काळजा आंगणांत हांवें रोयलां
मोत्यांमाणकाराक पडलां कितें?
शिपयेन दुख्ख किरवंटेक खोयलां
ओडीत ओडीत काडली जीण
आतां सोदतां नवी धांव
खूब जालो शारा गोंदळ
आतां सोदतां नवो गांव

## खरो देव

जितले मनीस तितले देव
हाचो देव ताचो देव
गांवांत देव शारांत देव
तिठ्यार देव मोडणार देव

जाती देव धर्मा देव
म्हजो देव तुजो देव
गिरेस्ताचो गिरेस्त देव
गरिबाचो गरीब देव

देव तितलीं देवळां
तितल्यो पालख्यो
तितले रथ
तितले भट

कितल्यो दिवल्यो
कितले अभिषेक
कितल्यो आंगवणी
पावला कणकणी

देवळामाथ्यार चडयला
भांगरा कळस सोबीत
कोणे दिल्या भांगरा आरत
कोणे देणगी ठणठणीत

# पुजा

तोवूय मनीस हाडामासाचो
जिविताच्या ह्याच प्रवासाचो
दोन दोळे नाका तोंडाचो
तोवूय लागता कोण कोणाचो

हांव मोव गादयेर लोळटां
तो शेंदरी हातूळटा
संवसाराची काडाओड
म्हाका थोडी ताका चड

घेवन भोंवता हांव गाडी
ताजेर मारता तो फाडो
लोका नदरेन तो म्हणल्यार
म्हगेर वावुरपी गडो

उजवाड ताकाय दिता सूर्य
ल्हारां ताकाय दिता दर्या
पूण म्हजो देव ताका पावना
ताच्या देवाक म्हाका भाव ना

पावस आसूं, आसूं वादळ
पोरसूं तो झाडटा
निवळ करून मागीर सदांच
देवाक फुलां हाडटा

देवा नावार दर सोमारा
दूद कितलें गळयता
देवळा दारान उपाशीं पोरां
तोंडां आमचीं पळयता

देवा नांवार झगडीं झुजां
देवा हक्काक मारामारी
देवाक कादय कुलपाची
वाऱ्यार खरो पुजारी

देवा नांवार दर शेनवारा
तेला न्हंयो व्हांवता
पडलां कोणा कितलीं तोंडा
उंडयेक आशेवन रावता

देव देवळां शेंकड्यांनी
भक्तीच पूण उणी
देंवचार पावला कणकणी
भोंवता मनशा रुपांनी

खूब जाले देव देवळां
खूब जालें देवसपण
देवा मुखार वतलो तेन्ना
पुरो फकत मनीसपण
खऱ्या देवाक पुरो जाता
फकत तुजें मनीसपण

देव म्हजो देवळांत आसता
ताचो मशिदींत बसता
हांव घरांत हात जोडटा
तो झोंपडेंत दिमयो मोडटा

ताजे म्हजे देवान फरक
कित्याक म्हाका समजना
पूण...
ताणें फुलां हाडले बगर
देवारो म्हजो सोबना
ताणें फुलां हाडले बगर
पुजा देवाक मानना

पुरो जावन लेगीत
ताच्या तोंडार हांसो खेळटा
म्हजो देव पावता ताका
पावती म्हाका मेळटा

## शेणिल्लें भुरगेपण

दुकांनी माखिल्लें बुरशें तोंड
भुकेन आशेल्लीं पोटां
पोरण्या घायांचे तरणे हात
कोयरांत भरिल्लीं बोटां

कोयरा बल्लान सोदता खाण
निर्जीव खोल दोळे
ना शिक्षण ना भविश्य ना आस
बाबडे कितले भोळे

दर दिसा खचता कूड
जड वजीं पेलून
दर सकाळीं उठूंक जाय
वायट सपन झेलून

पुरो इतलें जाता
पांय उबे लेगीत रावना
परत परत मार खाता
मेर गाठूंक पावना

दुश्ट क्रूर लोकांनी
मस्तिल्ली आस आनी सपनां
पुंजावन कामाक लागूंक जाय
बसून हांगा खपना

इश्कोलांत वचपी पोरांक
आशेन दोळे निरखिता
सक्तेन कामाक वचून
इत्सा आपल्योच बुरखिता

तांकांय जगपाक हक्क आसा
भविश्य तांचेंय घडूंक जाय
जिणे मारान केल्यात मोनी
आवाज तांकां दिवंक जाय
आवाज तांचो जावंक जाय

## बेवारशी

राती म्हज्यो कुडकुडटा
शिंयान दांत कडकडटा
झोमून नेटान वारें मारता
झेतान ताच्या हांव बुडटा

भरल्या साबार पक्वान्ना
कोणाक दाखोवं म्हजी भूक?
नशिबान ना म्हज्या
एकाय उणयेचें सूख

म्हाका घर ना
म्हाका ना जेवण
म्हाका ना इश्कोल
म्हाका ना शिक्षण

आवयबापूय नासून
वाडला हांव बेवारशी
मोयपास, जतनाय, उमळशीक,
उतरां हीं समजूं कशीं?

शिरंतरान जीण झूरता
शिरांचो मार उखलूं नजो
तळमळीक थाकाय दिवपाक
जगान कोण आसा म्हजो?
तळमळीक थाकाय दिवपाक
जगान कोण आसा म्हजो?



# उर्जिता भोबे

## आहारतज्ञ

पोस्ट ग्रेज्युयट डिप्लोमा इन डायटेटिक्स् (मुंबय विद्यापीठ)
एफ-3, मिलन अपार्टमेन्टस्, कायतान आल्बुकेर्क मार्ग, पणजी-गोंय.

---

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे 31 वे अधिवेशनाक कवितांचें सादरीकरण
कोंकणी लेखक संघातर्फे आयोजीत काव्य संमेलनांनी वांटो.
भांगरभूंय दिसाळ्यांत, लेखक आनी बिंब आंकांत कविता प्रकाशीत





प्रकाशन
मिरामार-पणजी गोंय